# गाराणें

## कविता संग्रह

काशिनाथ अच्युत नायक

लोका प्रकाशन,
केरी, सत्तरी - गोंय.

Garranem
Poetry Collection
by Kashinath Naik

गाराणें



प्रकाशन क्र. 4

पयली आवृत्ती
सप्टेंबर 2012

प्रकाशक
लोका प्रकाशन
केरी, सत्तरी - गोंय

अक्षर जुळवणी
महालक्ष्मी ग्राफिक्स
सांखळी - गोंय

छापपी
इंप्रेशन्स
बी-2, अक्षर आर्केड,
गोंधळीगल्ली - बेळगाव

मुखचित्र
कलानंद बांबोळकर
बांदोडे - गोंय

मोल : रु. 100/-

---

हें पुस्तक गोंय सरकारच्या कला आनी सांस्कृताय 'लेखकां खातीर अर्थीक आदार' हे येवजणेखाला उजवाडायलां.

स्वताच्या तशेंच हेरांच्या
सुखद:खाचीं स्पंदना
जांच्या काव्यांतल्यान व्यक्त जाता
अशा संवेदनशील कवीक
संजीव वेरेंकाराक हो संग्रह
मायेमोगान

# गाराणें : कोंकणी कवितेंतलो विद्रोही स्वर

संगीत गायन नृत्य, शिल्प, चित्र अशा जायत्या अभिजात कलाप्रकारांतल्यान फिशाल कलावंत जिवीताचें खरें सौंदर्य साकार करीत आसता. शाब्दीक कलाकुसर लाभिल्ली साहित्यकला ही लेगीत त्याच अलौकीक सौदर्यनिर्मितीक होरायता. स्पश्टूच सांगचें जाल्यार, मानवी जिवनाचें वास्तवीक दर्शन घडोवपी ती खेरीत कलाच आसता. साहित्यांतली सौदर्यशिलता, साहित्यांतली कलात्मकता, साहित्यांतली वास्तवता, साहित्यांतली कल्पकता आदी मुद्यांचेर जगांत जायते वाद - विवाद चलिल्ले आसात. पूण साहित्यांतल्या जिवनानुभुतीक आनी वात्सवतेक कोणूच न्हयकारूंक शकना. हांगा साहित्यांतल्या सामाजीक संदर्भाक म्हत्व फाव जाता. साहित्य हें निमणें समाजाखातीरूच आसता. समाजांतलें बरें-वायट सुख -दुख्ख साहित्यांतल्यान आविश्कृत जायत आशिल्ल्यान सामाजीक मुल्यां, जीवनमुल्यां आनी नैतीक मुल्यांचो पुरस्कार साहित्यीक करीत आयिल्लो आसा. ते खातीर समाजांतली अनिश्ठता तशेंच कुरुपता नश्ट करपाचें कार्य साहित्य रचनेंतल्यान जावं येता अशें म्हणपाक सुवात आसा.

"The greatness of poetry lies in its interpretation about life" अशें मॅथ्यू आर्नोल्ड म्हण्टा तें तेच गजालीक लागून. कितेंय काय आसना बऱ्या आनी दर्जेदार साहित्यकृतींचे गूणधर्म तांच्या वयल्या विधानांतल्यान दिसून येतात. वाङमयीन मुल्यां अदीक समाजमुल्यां अदीक जीवनमुल्यां हांच्या समिकरणांतल्यान उत्कृश्ट साहित्यकृतीची निर्मिती जाता. हो विचार संसारांतल्या विद्वानांनी मानून घेतला.

मागीर खऱ्या आनी बऱ्या साहित्यकृतीचें मर्म कितें ? घुस्पल्ले मानवी व्यवहार, तातूंतले साबार चड-उतार जगपाखातीर दिवचें पडिल्लें सदचें आनी दिसपट्टें झूंज तातूंतले ताण-तणाव काळजाची जाल्ली घालमेल आनी तांतुतल्यान

घडपी शाश्वत सत्याचें दर्शन हेंच खंयच्याय अज्रंवर साहित्यकृतीचें मर्म आसता. संवसारांतल्या लिखीत साहित्याचेर नदर मारीत जाल्यार दर एक आदर्श साहित्यीक त्याच शाश्वत सत्याचें तेंच दर्शन घडोवपाच्या प्रयत्नांत आशिल्याचें नदरेक भरता. आमच्या भारतीय साहित्यकारांमर्दीय कळतनकळटा तीच मोख आनी तेंच निमणें उद्दिशट मना-काळजांत भरिल्लें दिश्टी पडटा. आमचे ज्ञानपिठ पुरस्कार जैतिवंत साहित्यकार संकरा वुरुप, ताराशंकर बंडोपाध्याय, सुमित्रानंदन पंत, फिराक गोरखपुरी, बिष्णू देव, रामदारीसिंह दिनकर, डी. आर् बेंद्रे, वि. स. खांडेकर, के. शिवराम कारंत, अमृता प्रितम, महादेवी वर्मा, वि. वा. शिरवाडकर, गिरीष कर्नाड, रविंद्र केळेकार, आदीनी त्याच वैश्विक सत्याचो साक्षात्कार घडयला.

आयज भारतीय साहित्य प्रत्यक्षांत प्रादेशीक भासांतल्यान आपली खरी वळख घडयता. आमची कोंकणी भास धरून भारतांतल्या सगळ्यांच प्रादेशीक भासांनी उण्या दर्जाच्या साहित्या वांगडाच उंचेल्या दर्ज्याचे साहित्य उजवाडाक येता हें नोंद घेय सारखे. तातूंत ज्येश्ठा वांगडा नव्या दमाचे नवे साहित्यिकूय आपलें खेरीत योगदान दितात. आयचे हे घटकेक म्हज्या मुखार ह्याच नव्या दमाचे एक प्रतिभावंत युवा कोंकणी साहित्यिक आपलो नवोताल्ल कविता-झेलो घेवन उबो आसा. एक सर्वसामान्य भाशीक-साहित्यीक कार्यकर्तो, एक संवेदनशील कवी, एक सक्षम समिक्षक, एक लोक साहित्याचो अभ्यासक आनी एक विद्यार्थीप्रिय शिक्षक म्हूण तांणी गोंयच्या भाशीक, साहित्यीक, सामाजीक आनी शिक्षणीक मळार आपली वेगळी वळख घडयल्या.

काशिनाथ अच्युत नायक... हय हेंच तें व्यासंगी व्यक्तिमत्व. 'मुर्ती ल्हान पूण किर्ती म्हान' म्हण्टा तशें फोंडचेंभाट-वळवय ह्या माणकुल्या गांवांतल्यान किल्लल्ल्या ह्या तरनाट्यान प्रतिकूल परिस्थितींतल्यान वयर सरत पावला कणकणी संघर्शाक तोंड दियत शुन्यांतल्यान आपली कर्तृत्वी जीण घडयल्या... घडयत आसा. प्राथमिक, माध्यमीक, उच्च माध्यमीक, महाविद्यालयीन आनी विद्यापिठ पांवड्यावेलें शिक्षण घेताना तो खिणाखिणाक परिस्थितीआड झुंजला. ते करताना भोंवतणच्या गरीब-दिनदुबळ्या समाजाची सुख-दुःखा, व्यथा-वेदना तांणी प्रत्यक्षांत पळयल्यात, भोगल्यात. धर्माच्या नांवाचेर, जाती-कातीच्या नांवाचेर, प्रस्थापितांनी चलयल्लो अन्याय अत्याचारूय ताच्या नदरेंतल्यान सुटूंक ना. सबळान

दुर्बळाचेर केल्लो वार ताच्या काळजार उदेता, समाजांतली विशमता ताका भितरल्यान अस्वस्थ करता. देखुनूच ताच्या दर एक वावरांतल्यान वा कृतींतल्यान स्वातंत्र्याचो समतेचो आनी सर्वधर्मसमभावनेचो पुरस्कार जाल्ल्याचें दिसून येता. काशिनाथान बरयल्ली कविता आसूं नाजाल्यार एकांकी, समिक्षा आसूं नाजल्यार खडीसाखर आसूं ताची तीच भूमिका सगळ्याक स्पश्टपणान जाणवता.

गाराणें ह्या कविताझेल्या पयलीं काशिनाथार्ची तीन पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यात. सक्षम (ललीत लेख संग्रह), संजीवाच्या कवितेंतली संवेदनशीलता (समिक्षा), आनी पंडीत महादेवशास्त्री जोशी (बालसाहित्य) त्यान भायर साबार एकांकीचें लेखन आनी दिग्दर्शन, 'धालो' ह्या विशयाचेर संशोधन, बालकविता, अशें उपाट साहित्य रचलां. 'दिशा' नांवाचे साहित्यीक तशेंच सामाजीक मासीक ते सृष्टी प्रकाशनाच्या वतीन कांय काळ चलयताले. संमेलनां, परिसंवाद, शिबीरांनी मार्गदर्शन करता. तरेकवार भाशीक, साहित्यीक आनी सामाजीक शिक्षणीक उपक्रम राबयता. सद्या काशिनाथ शासकीय उच्च माध्यमीक विद्यालय सांखळी हांगा विद्यादानाचें पवित्र कार्य करता. थंय लेगीत शिक्षणा वांगडांच विद्यार्थ्यांच्या कला-गुणांक वाव दियत तांच्या सर्वांगीण उदरगतीखातीर तळमळटा. एक क्रियाशील तरनाटो म्हूण भाशीक, साहित्यीक, शिक्षणीक मळार तो फामाद आसा. नोकरी मेळटकच तांणी आपले लागणुकेक फाट करूंक ना हें म्हत्वाचें.

"Some people stop working as soon as they find job"

अशें थियोडोर रुझवेल्ट हांणी म्हणलां तें काशिनाथाक लागू जायना. भाशीक- साहित्यीक मळार नेटान एंट्री मारपी कितलेशेच जाण एकदा नोकरी मेळ्ळी म्हणटकच उपरांत ह्या मळांचेर दिश्टीच पडना. धूमकेतू भशेन ते नाच्च जाता. खासा करून कोंकणीच्या अध्यपनांत ते 'टिपिकल मास्तर' जावन सर्गानंद भोगतात.... काशिनाथ तांचे परस वेगळो. ताचें बरपूय वेगळे. गाराणें हो ताचो कविता झेलोय त्या वेगळेपणाक रुजवात दिता. कोंकणी कवितेंत एक नाविन्य हाडपाचो यत्न हो ह्या झेल्यात करता. हो यत्न पुराय रितीन सफळ जरी जालोना तरीय ताची गुणवत्ता उणी जायना. ह्या झेल्याची अभ्यासणी करताना काशिनाथाच्या आंतरीक भाव विश्वाचो खरो सोद लागता. तो भितरल्यान कसो आसा ? कितें भोगता ? कितें चिंतता ? कितें करुंक सोदता ? कसलीं सपनां

पळयता? खंयच्या यादिनीं घुस्पता ? खंयच्या गजालींनी घुस्मटटा ? या तरेकवार प्रश्नांच्यो जापो ताच्यो कविता दितात. माणकुलीं कवनां साकून व्हडली दिर्घ कविता मेरेन ताचो भावनीक, मानसीक आनी वैचारीक प्रवास तुमच्या आमच्या मतींत येयत रावता. ताची 'बहुजन सुखाय आनी बहुजन हिताय' भुमिका म्हाका दिपकावन वतां. गाराणें ह्या शिर्शक कवितेंत ती अशी दिसून येता.

ह्या पंचमहाभुतांत
वास्तव करून रावपी
तूं सगळ्यांचो सर्वेश्वर
तुवेंच आमकां सगळ्यांक
राखण दिवपाची
बरी बुध्द दिवपाची
खोटी नाडी पाडी बुध्द
पांयां पोंदा धरपाची ... (गाराणें)

सगळ्या जनमानसाक बरी बुध्द दिवन खोटी नाडी पाडी बुध्द पांयांपोंदा धरपाची विनवणी करपी हो कवी वयलें कवितेंत मवाळपंथी दिसलो तरी तो थापटाक पोलो न्हय तर मूठ दिवपी चोपक्याक धपको दिवपी स्वाभिमानी भूंयपूत जावन आसा. शेकड्यांनी वर्सासाकून चिड्डुत उरिल्या बहुजन समाजाचो नीज स्वर जावन तो आपल्या वाड वडिलांचेर जाल्ल्या अन्यायाचो बदलो घेवपाक तत्पर आसा. या सामाजीक आशयांत थबथबिल्यो जायत्यो कविता गाराण्यांत आसात. देखीत - षडयंत्र, भाड्या बैल, घरभाट, आमी, अस्तित्व, रिणां, कुंकार, तकली तड्डूकी मनीस, परिवर्तन ह्यो कविता. गोंयांतल्या समाजांत एका तेंपार अडाणी तशेंच अशिक्षीत बहुजन समाजाक उच्चवर्णियांनी पिळून खाल्लेलो. ताका अक्षर ज्ञानापासून पैस दवरून पिळग्यान पिळग्यो ताका चिड्डून दवरिल्लो. तोच बहुजन समाज आयज प्रस्थापितांची मक्तेदारी मोडून काडपाक सज्ज जाल्याची तुतारी हो कवी वाजयता. षडयंत्र या कवितेंतल्यात ती वाजता जाल्यार भाड्याबैल ह्या कवितेंत ती अशी शिकटायता.

'खऱ्यांनीच खरें सांगता
आता काळ बदलला

नेमां आमीच मारतले
माटोव आमीच उबारतले
भाषणाय आमीच दितले
तुमी फक्त ताळ्यो मारपाचे
आमकां तुमची गरज
फक्त भाड्या बैल कशी' (भाड्याबैल)

ह्या कवितेच्या सुरवेक 'इतलो तेप आमी हाताक फोड येयसर नेंमा माल्ली, माटव रचलो माचयेर बसून भाशणां तुमी ठोकली आमी टाळयो माल्यो आमी काम करपी मानायूच उरले' असो भावार्थ उक्तायला तीं नेमां तो माटोव आनी तीं भाशणां टायळ्या सकट प्रतिकात्मक रुपान ह्या कवितेंतल्यान अवतरल्यात. नेतृत्व गूण आसुनय जातीकातीच्या नांवाचेर आमकां तुमी पेदेच करून उडयल्यात. तोळो फुटसर आड्यो मारूक लायल्यात, आमकां तुमी फार्टी ओडल्यात ही सर्वसामान्याची तीडक कवी ह्या कवितेंतल्या आनी ह्या प्रतिकांतल्यान मांडटा. आयज भौसांतले सुशिक्षीत तरनाटे गडे तुमचे मांडयेक मांडी लावन बसतात तेंच तुमकां तोंकासार जाता ह्यावूय गजालीचो अभिमान कवी 'परिवर्तन' वा 'अस्तित्व' ह्या कवितेंनी उक्तो करता. 'अस्तित्व' ह्या कवीतेंत 'आवयच्या गर्भातल्यान रुजवणां आयिल्ले आमी - आमी तळपाक फुटूंक ना' अशें म्हणटा आसतना आवयच्या दुधाचो धेक आनी मातयेचो स्वाभिमान व्यक्त करपी असो फुत्कारता.

'हे भुंयेचें दायज आमी आमच्या भुंजार केळयलां
तुमच्या कुटटूलांत तें ना
कारण तुमची वार खंयचेच वैजीणीन हे मातयेंत पुरुंकना
तुमच्या आवयांनी तुमकां आंगार लुंचोवंकना'

स्वभाशा, स्वराष्ट्र, स्वभुमी, स्वदेश; स्वसंस्कृती, आदी गजालींचो जयजयकार करपी ह्यो कांय वेंचीक कविता ह्या कवीची निष्ठा आनी वृत्ती वाचकामेरेन पावयता. या झेल्यांतल्यो चडश्यो कविता ह्याच नीजपणाच्या दिश्टाव्यान आकाराक आयल्यात. तांचो अशय एका मुळांतल्यान वयर सरला आसलो तरी तातूंतल्यो कविता विंगड विंगड संदर्भ घेवन येतात. अन्यायाचो प्रतिकार करपी आनी मानवतेची पुनर्स्थापणूक करपाक बांदील आशिल्ली ह्या कवीची काव्य प्रतिभा

खऱ्यानीच तोखणायेची. धार्मीक, सामाजीक, सांस्कृतीक, राजकीय, भाशीक, साहित्यीक अशा मळांचेर चलिल्ल्या भ्रष्टाचाराक वाचा फोडटाना हो कवी केद्याय मोठ्या व्यक्तीचेर प्रहार करपाक फाटीं रावाना. उपेक्षीतांचे अंतरमन अभिव्यक्त करपी ही ताची कविता कोंकणी कवितेच्या विद्रोही स्वराची परंपरा मुखार व्हरता. सगळ्यांत पयलीं हो विद्रोही स्वर जेश्ठ साहित्यीक पुंडलीक नायक हांणी 'गा आमी राखणे ' ह्या काव्य झेल्यातल्यांन व्यक्त केल्लो. शेंकड्यानी वर्सा वेदनांचो अख्खो दर्या मोन्यानी पिवन उडोवपी तशेंच तांबडे मातयेकडचे इमान राखून दवरपी बहुजन समाजाचो ताळो जावन पुंडलीकबाबान कोंकणी साहित्यांत नवक्रांती हाडिल्ली 'आमी कोण ?' हांची जाप तुमकां काळूच दितलो, अशे आमी म्हणजे नात, ती आमीच दितले असो मंत्रघोश करून उकडिल्या शिश्याचो रस कानांत रकोवचो तसो बांगर वैलाचो धेंकर प्रस्थापितांच्या कानांत गाजोवपी साहित्यीक म्हूण तांकां सगळे वळखतात. तांच्यानीच पेटयल्ल्या या मशालीक आनी वैचारीक क्रांतीक फुडे व्हरपाचे कार्य काशिनाथ सारख्या बहुजन समाजातल्या तरनाट्यांनी हातांत घेतिल्लें आसा.

ज्ञानगंगेचो घोट पिवन आनी पुंडलीक नायका सारख्याची प्रेरणा घेवन आयज बहुजन समाजाक नवें आत्मतेज आयिल्लें आसा. चडकरून स्वभाशेंतल्यान व्यक्त जावपाची ही तांची पयलीच फावट आशिल्यान तशें घडटा. ह्या समाजांतले युवा कार्यकर्ते, संघटक, विचारवंत, साहित्यीक मुखार आयले ते ह्याच आत्मतेजान. काशिनाथ तें आत्मतेज उतरांनी मांडटा आनी म्हण्टा.

'आमचे जाण्टेले वगीच रावले
भावाभावांमदी झुंजा लावन तुमी
आमची मजा पळयली
आमी आमचीच बोडकां फोडली
पूण ... धनीपण मात तुमी मिरयलें.
आमी आमच्या घरांत चाकर जालें.
कितल्योशोच पिळग्यो तुमच्या शेकातळा चिड्डल्यो
देखून आयज खंयच्याय खिणांक रणवाद्यां वाजतलीं
जैताची घुडी उभारुनच

गर्भकुडींत लामणदिवो पेटयतले'

काशिनाथ जे तरेन जगता तेच तरेन बरयता. काशिनाथ जे तरेन विचार करता तेच तरेन वागता. काशिनाथ जे तरेन भितरल्यान खतखतता तेच तरेन अभिव्यक्त जाता. अडेचें नाटकी दिखावेंपण ताचेकडेन ना. देखून बेदडकपणान तो सत्याचो आग्रो धरुन आपलें शब्दास्त्र चलयता. ताची ही धिटाय म्हाका महात्मा गांधीजींच्या दोन वाक्यांची याद करून दिता.

Study as if you were to live forever

Live as if you were to die tomorrow (M. Gandhi)

समाजांतले जायते तथाकथीत रथी-महारथी खुबश्या वेळार तोंडांत गुड्डे मारिल्यावरी वोग्गी बसतात. मेल्ले वारीचे कशे सामके निष्क्रिय जातात. पूण 'गाराणें' घालपी ह्या कवीक निष्क्रियतेची व्याख्या खबर ना. ताका जैत - पराजयाचें पडिल्लें ना. जैतान तो पिसो जायना आनी हारीन गर्भगळीत. कारण ताच्या जिवितांत एका फाटल्यान एक अशी संघर्षपर्वां हारीन येवन गेल्यात. एक झूंज सोंपलें म्हण्टकच ताचे खातीर नवें झूंज तयार आसता. ज्येष्ठ कवी नागेशबाब करमली 'वादळ मोडां आमकां सदचींच जाल्यात' अशें कित्याक म्हणटा ते काशिनाथाची कविता समजयता.

हो कवी जगताना झुंजता काय झुजताना जियेता तेंच कळपाक मार्ग ना. फकत सामाजीक उमाळे न्हय तर वैयक्तीक उमाळे तांच्या काळजांतली चिरपिट रसिका मेरेन पावयता.

भुरगेंपण, निरागस भुरगेंपण, आवय, देणें आवयचें, दादो, वंशवेल, तुका येवचोच पडटलो, सासाय, हांव, अशा कवितांनी कवीचे वैयक्तीक हावेस, सपनां, इत्सा अडीअडचणी, दुःखा आदीची वळख जाता. आपले भितरले उत्कट भावनेक हो कवी शब्दरुप दिता तेन्ना कविता उलोवंक लागता. आयच्या मशीन युगांतल्या शेणत वचपी भुरगेपणाक तो आशेता. निरागस भुरगेंपणाचो हुस्को बाळगीताना म्हणटा.

१. 'म्हज्या गांवातलें म्हजें भुरगेंपण
आडवणांत शेणून गेला
गांवांत सोदुनय मेळना

निश्पाप, निरागस, निर्मळ, नितळ,
भावूक , मस्ते, हट्टी मेकळें
.........
आतां सगळें www.com चेर (भुरगेंपण)

२. निरागस भुरगेंमन म्हजें
भुरगेंपणातूच सोंपलें
भांवडाक पळय, आयदनां घास
उदक भर, चुलींत उजो कर,
उदक तापय आदण दवर
तांदुळ घाल, शीत वाळ
खंयचे कडेन आदेस काबार' (निरागस भुरगेंपण)

ह्यसा दोनूय कवितेंची शरीरां वेगळी पूण आत्मा एकूच भुरगेंपणाची लोक्तुबाय करपी ही कविता दर एका भुरग्याची भावनीक काणी सांगता. आवय ह्या कवितेंत आवयच्या कश्टाचें फळ तिका दिवपाची वान्सा कवी उक्तायता.

आवय तवें पळयिल्ले
फातोड सपन आतां साकार जालां
आवय तुजो रीतो बोटवो
आतां म्हाका मात्सो भरुंदी
आवय तुज्या उपकाराचें
थोडें रिण म्हाका पावो दी (रिणां)

ह्या झेल्यांतली 'आवयचें देणें ' ही एक संस्कारमय कवीता. भुरगेपणांत आवय पाजिल्लो डोस आयज म्हाका बऱ्याक पडलो, तातूंतल्यान म्हज्यांतलो स्वाभिमान आनी मनीसपण बळिश्ट जांवक पावले. अशें हो कवी ह्या कवितेंतल्यान म्हणटाना गोमंत्तकीय तशेंच भारतीय आवयची आदर्श मूर्ती दोळ्यामुखार हाडटा. मराठींतले ज्येश्ट लेखक साने गुरुजी 'श्यामची आई' ह्या कादंबरीतल्यान जशी भारतीय मातृत्वाची सर्वोकृश्ट देख दिल्या तेच तरेन काशिनाथाचीय आवय ही कोंकणींतल्यान घडिल्ली ममतेची वात्सल्याची अमोल देख जावन आसा.
'चारचौगांक बरें मागतकच आपले बरें जाता, कोणाचेंय मागून खांवचे चोरचें

न्हय, पोट जमनीर तेंकोवन न्हिदचें पूण लाचार तर जावचेच न्हय, दुसऱ्याक मान दिलो म्हणू आपूण ल्हान जायना ल्हानविकायेन वागचे मीपणान वागचे न्हय.... हें सगळें अक्षरशत्रू आशिल्या आवयचे उदात्त विचार ह्या कवीक घडयत आयल्या ताचो शाब्दीक आविष्कार ही कविता घडयता. ते नदरेंतल्यानतूच म्हाका दिसता काशिनाथाची आई श्यामच्याआईपरस वेगळी आसूकच शकना.

आवयवांगडाच दादो ही ताची कविता दादोक म्हणजेच ताच्या आज्याक उद्देशून शब्दबध्द जाल्या.

'दादो आतां तें घरांमुखावेलें खळेंच ना जाला, खळेंच ना जाला देखून देणलो शिगमो बंद पडला, रोमटाचो आवाज आतां गांवांत म्हज्या घुमना, देणलो कोण नाचयना शिगमो कोण खेळना.... उपरांत

दादो आतां तें सगळे फ्लॅटांत रावतात
आपापल्या बायल भुरग्यां वांगडा
ज्यॉयंट फेमिलीचो ज्यॉयंट केन्नाच तुटलां
तांकां शेजार सामार लागना
आमचें गिरेस्त संस्कृतायेचेर तांणी केन्नाच खोंट मारल्या
आनी पोटलून धल्या पाश्चात्य संस्कृती
दादो तांकां चवथ लागना, शिमगो लागना
सण परबो तर नाच ना
पूण नरकासूर मात हमखास लागता

शारीकरणांतल्यान आमची नश्ट जावपी संस्कृती आनी तिची शोकांतिका मांडताना 'पूण नरकासूर मात हमखास लागता' हें भन्नाड सत्य कवी बरोवन वता. खऱ्यानीच आमचे भितर नरकासूरी वृत्ती बळावपाक लागिल्याचें विधारक अशें कडू सत्य आमकां विचार करूंक लायता. ही कविता तशी आशयान सशक्त आसा लोकगीतां, शिमग्यागीतां हांचो वापरुय समर्पक जाला पूण दादोक उद्देशून आशिल्ले हे कवितेंत आवयक उद्देशून फुगड्या धालोंचो सदर्भ येता तेंन्ना ती कविता स्वताच गोंधळटा. एकतर 'दादो आनी आवय' अशें नामकरण करून कविता रचूं येता आसली. नाजाल्यार 'आवय गे' आनी 'दादारे अश्यो' दोन कविता वेगळ्या रचूं येताल्यो. ज्यॉयंट फॅमिलीचो ज्यॉयंट तुटला हांगा अजापां घडटात

भोगावळ जाल्या, गांव शारांत व्हेला, घरामुखावेलें खळेंच ना जाला. ह्यो शब्दकळा भोवूच सुचक जाल्या पूण .... कविता वाट चुकल्या....

'गाराणें' नामक ह्या कविताझेल्यांत ल्हान सान कवनांय आसपावल्यात. चडकरून ती चारोळीच्या धाटणेंत बसयल्यात. कवनां १ ते ६ मेरेन तांची वळेरी चलता. एकंदर १८ कवनां वाचकाच्या भेटेक येतात. कोंकणी काव्याचो विचार केल्यार बाकीबाब बोरकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय सारख्या ज्येष्ठांनी तसलो यशस्वी प्रयोग केला मनोहरबाबांच्या तसल्या प्रयोगातल्यान निश्पन्न 'पिसोळी' ह्या झेल्याक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला. उपरांतच्या जायत्या कविनी हो प्रयोग केला. कशिनाथाकूय हो मोह टाळूंक जमूंक ना. खरें म्हणजे जातिवंत कवी तो मोह टाळूंक जमचेंच ना. प्रत्येकी तीन तीन अशीं स फावटी या कवनांची भेट वाचकांक जाता.. म्हाका आवडिल्ले तातूंतले कवन खऱ्यानीच लक्षणीय आसा.

'वेदनांच्या कांट्या खुट्यांनी
जीण म्हजी विणल्या
सुखापरस दुःख झेलपाची
सवय म्हाका जडल्या'

वेदनेच्या गर्भातल्यानच कवितेंची फुलां फुलतात अशें म्हणतात तें हे कवन वाचतकच कळून येता. कवन जशे कविच्या काळजाचे मर्म उक्ते करता तशेंच 'तळें' या कवितेंत कवीची सामाजीक लागणूक नदरेंक भिडटा. खुटी मारून मटी जोडपी गांव गांवस्की वसोवपी जाण्टेल्यांच्या घामाकश्टार आमी उदक सोडलां हें सांगपाक कवी गोरवां लेगीत तळ्याच्या उदकाक आफडनात तांचीं कारणां बरयता.

१. धुल्लाच्या पैशांक गांवकऱ्यांनी
तळ्याचो बळी दिता.

२. मनशाचें मनीसपण व्हायरसान करप्ट जालां.

नांव - निशाण ह्यावूय कवितेंत होच आशय तकली वयर काडटा. जाल्यार फरक, वक्लां सारख्यो कवितेंनी मनीस राकेस जाल्ल्याचे रजांव कवी दिवपाचो यत्न करता. सांगता म्हणू वायट धरु नाका, इचांणां, ह्योवूय तसल्योच कविता.

कोंकणी कवितेच्या इतिहासात डॉ. र. वि. पंडीत या कवीक खुप उंचेली

सुवात आसा. तांणी शेता भाटांतल्यान रानां वनांतल्या मिठा - आगरांतल्या कश्टकऱ्यांचेर कविता रचल्यात. तांचे करपल्लें जिवीत काव्यात हाडलां. ह्या कविची तोखणाय जाता तशी टिकाय जाता. तिवूय त्याच कारणांक लागून. 'भाटकारालो सत्यनारायण' ह्या तांच्या कवितेंतलो मुंडकार भागेली 'देमू' जसो भाटकाराच्या सत्यनारायणांत पंचखाद्य जावन चिड्डता तसोच काशिनाथाचो खेमू मोन्यानी सगळ्या अत्याचार सोसता पूण काशिनाथाच्या खेमूक आयज ताचें सत्व मेळ्ळां 'खेमू' ह्या कवितेंत कवी ताका आत्मतेज दिता. (जें पंडीतान केन्नाच दिलें ना.) ... आनी

खेमूची जीण पुराय बदलून गेली
आतां खेमू तांका फुक्यासवाय
मानाय कसो घळोवंक
मेळना जालो
देखून ते म्हणूंक लागले
खेमू आतां आदलो उरंक ना

'आनी एक दीस खेमू वटेन देवान फुडो केलो' अशें म्हणून कवी खेमूक जाल्या आत्मज्ञानाची वा स्वाभिमानाची सुलूस दिता. तशेंच खेमूक मेळिल्ली धिटाय ही ताच्या मुखावयल्या पिळग्यांचो उद्धार जावन आसा असो मुक्ततायेचो संदेश दिता. खेमू ही जशी व्यक्तीविशेष कविता तशीच 'निमें' ही प्रौढ कुमारीकेचें धगधगीत दुःख मांडपी कवीता. ही कविता भोवूच मॅच्युअर्ड जाल्या खरी पणू तातूंतल्या निमाण्यो दोन वळी कवीची विनाकारण लूडबूड सहन करता. खरें म्हटल्यार निमण्यो पांचूय वळी ह्या कवितेची गची आंवूळटा.

तें कित्याय कितें बडबडटा
तें आतां पिशांतूर जालां

ह्या वळींनी कविता सोपल्यार कलात्मकतेची तेंगशी गांठपाची त्यानभायर तूं आळवावयलो थेंबो, तत्वज्ञानी कविता कलात्मकता आसुनूय मदीच थांबता हे म्हजे स्पश्ट मत.

काशिनाथ अच्युत नायक हांणी रचिल्लो 'गाराणें' हो झेलो कोंकणी कवितेचे बदलते रुप दाखयता. पारंपारीक कोंकणी कविता आनी नवमतवादी

कोंकणी कविता हांचो मदलो सुवर्णमध्य ती सादता. मुक्तछंदातल्यान अवतरताना ती काव्याचो मुळ गुणधर्म विसरना. लोकगीतांचो, संत काव्याचो, म्हणी ओपारीचो आनी लोकभाशेंतल्या दुर्मिळ शब्दांचो तो कल्पकतायेन उपेग करता. देखीक चानयेच्या पिला तूका तीन पाट, पान म्हजें फोंफळ तुजें, रथा तुज्यो घुड्यो (लोकगीतां),

बोले तैसे चाले त्याची वंदावे पावले, आनंदाचे डोही आनंद तरंग (अभंगवाणी),

घरां हुंदीर शेपडी बडयता, दिल्या मापान घेवचें पडटा,

काळा परमाणें माथ्याक कुरपणें, गोरी कात गोरी जात (ओंपार म्हणी)

सांरोतेप, पाजण, दवरणें, अस्वडी, तोंकासार, धुळेंवणी, निमें, तोंडदुबळें, खपनखायरे, म्हारू, पडमूर, जैपत, वथ्रेणी, बेकार थवय (नीज कोंकणी उतरां)

वयल्या साबार तत्वांक लागून काशिनाथाची कविता सहज सुंदर तरेन वाचकाकडेन इश्टागत करतली हें म्हज्या अणभवांतल्यान हांव सांगूक शकता. ना जाल्यार जायते फावटीं अलंकारीत भाषा शैली आनी छंद - मात्रांच्या घुस्पागोंधळांत कवीक नाकापरस नथ जड जावन पडटा, ह्या कवीची ती गत जावंक ना. मुळांत कवितेच्या विशयाक आनी आशयाक एकजीव जावपी तत्वां तांणी कवितेंत समाविश्ट केल्यात म्हूण तें शक्य जालां ह्या गाराण्यांचें मुल्यमापन करपाक म्हाका आस्वादनात्मक समिक्षेचीं मापां भायर काडची पडटा. सर्व साधारणपणान सामाजीक पणान सामाजीक जाणवीच्या संवेदनशील मनाची ही कविता ती अतिशय सामान्य मनशाचें भाववीश्व चितारता. ती भौसाची दु:खा हळूवार पणान शब्दबध्द करता. चिड्डल्यांक स्वाभिमानान जगपाक शिकयता. निर्शेवणेक आनी पराजयाक तोंड दिवपाक स्पूर्त दिता. अन्यायाचो प्रतिकार करपाची धिटाय दिता..... ती कविता केन्ना आवयची आल्लय जाता, केन्ना जीवीताचे आव्हान जाता, केन्ना गरीबांचे उत्फर्के जाता, केन्ना कश्टल्याचें गीत जाता, जाल्यार केन्ना मनीसपणाचो सूर जाता.... सगळ्यांचे कल्याण कर आनी बरें कर. अशेंच मागणेन हे गाराणें सोपता. कवी काशिनाथ नायकाच्या ह्या गाराण्यांक मानून घेवन रसिक वाचकांनी बरी प्रसाद पाकळी दिवची हीच प्रार्थना.

प्रा. हनुमंत चोपडेकार

फोंडें

ता. 18 जून 2012

## मनोगत

कोंकणी सरस्पतीच्या आंगणांत सेवा करतल्या समस्त भौसाक हो म्हजो पयलो कविता संग्रह 'गाराणे' च्या रुपांत भेटयतना मनाक खुब बरें दिसता. म्हजी जीण घडटना जें जें म्हज्या वांट्याक जीवनाचे कडू गोड अणभव आयलें ते सगळें गांठीक मारीत गेलो, वाटेर जायते वाटसरू सांगाती मेळ्ळें, आजवेरच्या प्रवासांत जायते मार्गदर्शक मेळ्ळें, हितचिंतक मेळ्ळें, कांय तकली तडडूकी मनिसूय मेळ्ळें पूण सगळ्यांच्या सहवासांत वावूरतना 'हांव' म्हणून कोण तरी सिध्द करुंक झुंजतना पावला पावलाक संघर्षाक तोंड दित गेलो. केन्नाच नकारात्मक विचार केलो ना. जीणेकडेन सदांच आशावादी नदरेन पळोवपाचो दृश्टीकोन बाळगीत गेलो. ताचीच गाराणें ही फलश्रृती.

जण एकएकल्याचे नशीब जाचे ताचे कडेन, कोण कोणाचें नशीब व्हरुंक शकाना, नियतीन जें तुका जीणेंत वाडून दवरला तें कोणाकूच चुकना. आयज ना फाल्यां तें भोगपाचे भोग भोगचेच पडटा. बरें केल्यार बरें मेळटा. वायट केल्यार वायट मेळटा हे सांगपाक कोणा ज्योतीशाची गरज पडना. जैतां तकलेक मारपाक फावाना आनी हारीन गळीत गांत्रा गळसाणूंक दिवंक जायनात. वांट्याक आयिल्ले जीणेत सुख सोदताना, जिवन सुंदर आसा तें आनीक सुंदर करपाचो आमी यत्न करूया. मनीस नांवाचे पुस्तक वाचूयां आनी एक परिपूर्ण मनीस म्हूण जगताना संवेदनशील जावया. पूण केन्ना केन्ना मनशाकडल्यान समाजांत चलिल्ली मनीसपणांभायली कृत्या पळयतकच मन दुखेस्त जाता, अस्वस्त जाता, तेन्ना तें फुगार जावन भितरलें भिरत घुस्मट्टा, रडटा, आनी अचळय दुक जावन कागदार झडटा. गाराणें पुस्तकांत पानां पानांर ही दुक्कां दिसतली.

'म्हज्या बाप्पूक तुमी कमी लेखू नाकात, एक ना एक दीस देव ताका भरभरून दितलो, देवाचे घर व्हडलें आसा !' खऱ्यांनीच हें सांगपी म्हजो पंढरी मामा आयज ना, पूण तांची उतरां आयजूय म्हज्या काळजाच्या कुरकुटांत घर

करून आसात. इश्टांनो हें म्हजें चवथें पुस्तक म्हजो इश्ट गोपिनाथ गावस हांच्या लोका प्रकाशनाचे वतीन प्रकाशीत जाता. जशें तुमी म्हज्या आदल्या पुस्तकांक मोग दिलां तशेंच तरेची अपेक्षा हांव तुमच्याकडल्यान बाळगून आसा. गाराणें ह्या कवीता संग्रहाक म्हजो इश्ट प्रा. हनुमंत चोपडेकार हांणी अभ्यासपूर्ण अशी प्रस्थावना दिल्ले खातीर तांचे उपकार. पुस्तकाचे बाह्यआंग सर्वांग सुंदर करपी चित्रकार कलानंद कामत बांबोळकार हांचे कल्पकतेक सलाम.

जाणीं जाणीं ही म्हजी कलाकृती तुमचे मेरेन पावोवपाक प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष मदत केली त्या सगळ्यांचो हांव उपकारी आसा. आनी सगळ्यांत चड कला आनी सांस्कृतीक खाते गोंय सरकार हांचे हांव मनापासून उपकार मानता. कारण तांचेच येवजणेंखाला हें पुस्तक प्रकाशीत जाता.

काशिनाथ अ. नायक

# मांडावळ


1. तूं
2. तूं आमचोच
3. आळवावयलो थेंबो
4. भुरगेंपण
5. देंमायज
6. तकली तङ्कूकी मनिस
7. कवनां १
8. देवाधर्मी
9. कवनां २
10. जीण
11. खेमू
12. कुंकार
13. निरागस भुरगेंपण
14. प्रायश्चीत
15. दादो
16. तुज्या सांगातान
17. जीणचो अर्थ
18. नातें
19. भाड्याबैल
20. षडयंत्र
21. निमें
22. इचाणां
23. श्वास विश्वाचो
24. फरक
25. सांगता म्हूण वायट धरुं नाका
26. परिवर्तन
27. नांव निशाण
28. घरभाट
29. धुळेंवणी
30. व्यक्ती
31. कवनां ३
32. कवनां ४
33. नदर
34. तुमी आमचेच
35. रीणां
36. संघर्ष
37. आवयचें देणें
38. तळें
39. कवनां ५
40. कवनां ६
41. आमी
42. वंशवेल
43. वावटळ
44. वक्लां
45. आवय
46. तुका येवचोच पडटलों
47. सासाय
48. श्री
49. अस्तित्व
50. खरें जाल्यार खरें म्हूण सांग
51. गाराणें

# तूं

तूं अनंत काळाचो
प्रवासी
तुज्या अस्तित्वान
रंग भरला
ह्या
पूर्णांनंदमय
जीवन यात्रीत
तुज्या चैतन्यान
पुराय जीव
विसावता
पर्जळटा दिगंतराक
नांव लौकीक
तुज्याच सहवासांत

## तूं आमचोच

तूं आदर्श आमचो
तुजो आमकां
व्हड अभिमान
तुजें कर्तृत्व
धांय दिको
पूण ....
हाय रे कटा
आमचो भ्रमनिरास
तुजेकडसून
जाणून बुजून
तूं भिलो तुज्या
अस्तित्वाक
निर्माण जायत
म्हूण धोको
तुवें सगळ्यांकूच
पयस केलें
मनीसपण व्हगडावन
पूण एक सांगता
तरीय तूं आमचोच

## आळवावयलो थेंबो

चकाकणारो आळवावयलो
उदका थेंबो
पळोवंक बरो दिसता
सगळेंच तोखेता
पूण .....
अचळय मातयेत पडून
निस्तारतना
खंयचंकडेन नाच जाता
तुजी म्हजी जिणूय अशीच
चकचकपी थेंब्यावरी
खूब खूब सांबाळची पडटा
जिवापार जपची पडटा

## भुरगेंपण

म्हज्या गांवांतलें म्हजें भुरगेंपण
आडवणांत शेणून गेला
गांवांत सोदुनय मेळना
निश्पाप, निरागस, निर्मळ, नितळ,
भावूक , मस्तें, हट्टी मेकळें
मुक्तांगणांत मनसोक्त नाचपी
सैमागणांत मनखोशयेन खेळपी
भुरगेंपणांत आख्खो गांव भुरग्यांचो
गांवार हेड हेडचे
सकाळी सांज दनपार तीन पार
काय एक लागना
भंयभाडो काय एक आसना
भातुकलीच्या खेळांत रंगून वचप
अडूळशाच्यो खांद्यो म्होडून
खोपी बांदच्यो घरां म्हणून
तातूंत मागीर संवसार थाटचो व्हडल्यांचो
कट्यांनी रांदचे शेक्र्याचे शित
पानां किरमून करची भाजी
पणसाचे पान भाजून काडचे पापड म्हूण
मस्ती अभ्यासां वांगडा आडंगपणां

भुरग्यांवांगडा दिसाक चार चार झगडीं
आवय बापायची  भुरग्यांच्या न्यायान
आंब्या पणसां दिसांनी खेळचें
आंब्या मुळांत घोटां मुळांत
तोंडा वरशी करून पळोवची वाट वाऱ्याची
तुट्टा काय म्हूण आंबो देंठांतल्यान
दुसरी आमाडी मेळसर चोखचो काथो
वरांचीं वरां धवो जायसर
आंगार खतां माखयत पुसचे हात कलसांवाक
गोडसाणींत कालसांवूय जावंचें गोड साठ कशें
गांव घरा तशेच सोयऱ्या धायऱ्यांगेरूय
भुरगेंपणाक पडना कसलोच फरक
खेळ खेळचे मनाक मारता तशे
कोयण्या बालांनी, गड्यांनी , तिकट्यांनी
चिंचानी, लिपचेल्यांनी, डब्यांनी लगोऱ्यांनी, बडयांनी
अरें अरें बोटयांनी, मडक्यांनी, येटयानी
घरांतल्यो चादरी, शेनऱ्यो लावन
पडवेर करचें नाटक फासचो रंग तोंडांक
मिश्यो काडचो कोळशानी
म्हणचे संवाद शाळेंतल्या पुस्तकांतले
चवथीकडेन भुरगेपणांक येवचो भार
चवथ जातकच पुजचे सद्दी गणपती
करच्यो आरती दिसांक कितलेय फावटीं
नाल्लाचे शिन्ने खातीर म्हणच्यो कविता आरत्यांच्या चालीर
आतां सगळें www.com चेर
भुरग्यांनी पळोवचे जाण्ट्यांवरी
जाण्टेकशे बसून फ्लॅटांची दारां जनेलां बंद करून
गांवांतलें भुरगेंपण सोदीत

## देंमायज

आतां तुमचें देंमायज जालें
शेळ्या आंगार फुगाव तुमी काडले
मनीसपण व्हगडायिल्या मनीसघाण्या बैलांनो
आतां तुमकां चेच्चेच पडले
ताका आमचो निरुपाय
दुस्मानांकपसून भोंगू नाका
अशें कश्टले, दगदगले
आमी तरास काडून वयर सरले
जाल्यार
तुमकां तोंकासार कित्याक जाले
पावलां कणकणी
कित्याक जळपाक जाय ?
आतां आमची तकली सण्ण जाल्या
सण्ण जाल्ले हें तकलेंत
तुमचे जिणेच्यो वाद्रयोवाद्रयो करून
तुमकां नागडे उगडे
पाडल्याबर आतां गत्यंतर ना

# तकली तड्डूकी मनीस

तकली तड्डूकी मनीस
जोखप, मापप , मेजप,
खूब कठीण
तें इचणांकशे ?

ते दाखयनात आपले
एकूय आंग सारखे
सुलूस लांगूक दिना
तांचे तकलेंत चलिल्या
विचार मंथनाची
केन्ना केन्ना
कोण फसता
कोण बळी पडटा
कोण घांणटा
कोण शेण्टा
पूण ते आपले
सदांच सादयता
कसलोच पात्सो
धरीनास्तना
कोण वागता
अमानूश
कोण जगता
पिशांतूर
कोण बदलता अस्तुऱ्यो
आपले.....
मनीसपण
पावणेर काडीत
असल्यांक मेजप कठीण
हे सगळे उखलापे
तळपाक फुटील्ले बशोन
बोथट असंवेदनशील
चोथो कशी हांची जीण
कोण काळ कशी मेजीत
सांगू नजो

## कवनां 1

उदरगती सांवार
मनीसपणार घाव
आतां मनशाचे जनावर
अशी उरफाटी धांव

*****

मनीस दुसऱ्याक वळखता
सगळ्यांक पारखितां
आपूण कोण म्हणपाचो
सोद घेंवक विसरता

*****

हे रुखां तुजी पाळां मुळां
रुजवणां आयल्या हे मातयेच्या गर्भांत
तशी म्हज़ी वारुय पुल्या
हेच मातयेच्या कुसव्यांत

## देवाधर्मी

देवाधर्मी
देवाक फटयना तुमकां सांगता
हेरांभशेन आमी केन्नाच
हाजी हाजी करून
आमची कामा साधून घेवंक ना
ना म्हूण सुवार्थाखातीर
कायलोळ्यो करून
दुसऱ्याच्या पोटार पांय दिवंक ना
आमी सदांच सद्धर्मान वागल्यात
घरांत तशे भायर
पूण चारित्र्यशुन्य मनीसपण वगडायिल्ले
नितीभ्रष्ट मनीस जेन्ना  समाजांत उजळमाथ्यान भोंवता
तेन्ना खऱ्यांनीच आमची आमकांच

लज दिसता
शर्मेन  मान खाला पडटा
देवाधर्मी  देवाक फटयना तुमकां सांगता
कट कारस्थाना करून सापळें रचप
आनी त्या सापळ्यांनी तोंड दुबळ्यांचो बळी घेवप
हें करतना तांकां मात्तूय वायट दिसना
बोंबलीभर उदकांत देवूनय
आपूण साव म्हणपाचो तें निर्वाळो दिता
अशीं तीन पानां करतल्यांक
राकेशी वृत्तीची तकली फोडून भिरभीरी मारता
देवाधर्मी देवाक फटयना तुमकां सांगता
समाजसुधरणेची भाशणां करून समाज बदलना
बोले तैसे चाले त्याची वंदावी पावले
हे म्हणी सारखी कृती जाय
मनीसपणाचेर उलयताना
आपूण आदी मनीस जाय
संस्काराचेर  बोध दितना
सुसंस्कृत संस्कारशील जाय
निस्वार्थी जाय निश्कलंक जाय
जाय दुसऱ्याखातीर वावूरपाची
थोडीतरी दानत
वगीच माकडाच्या हातान कोलती नाका
देवाधर्मी देवाक फटयना तुमकां सांगता
पूण हालीसरां अशें चित्र मेळप दुर्मीळ जालां
आयज उठसुठ कोणूय समाजसेवक जाता
नितीमुल्यां सांडोवन बशिल्ल्या
लोकांचीच आयज गर्दी जाल्या
शेणून गेल्लें मनीसपण हे गर्देत हांव सोदतां
देवाधर्मी देवाक फटयना तुमकां सांगता

## कवनां 2

तुमी आमचेच म्हुण  आमी
तुमका सोडोवंक गेले
पूण दर खेप
तुमी आमकांच विकून दिले

*****

विचार ....
कांय मूळ धरता, कांय सुट्टा
थोडे वाडटा फुलता फळटा
थोडे मुट्टेता बाकी
वयल्यावर विरुन वता

*****

आमी सदांच तांची तुस्त केली
तांच्या कर्तृत्वाची दखल घेवन पूण ....
आमच्या कर्तृत्वाचो भौमान जातना
तांणी आमचेरुच टिका केली.

## जीण

जीण जाची गतीमान
तोच एक किर्तीमान
जिणेच्या या रथाक
सुखदुखःची दोन चाकां
केन्ना सुकती केन्ना भरती
मनीस, जीणे भोंवतणी घुंवता
आनी जीण मनशाभोवतर्णी
जल्ममर्णाच्या फेऱ्यांत
अबुध्दपणान अविचारान
मनीस भोगता
मरण यातना आपलेच चुकीन
तर केन्ना केन्ना
सुबुध्द मनीस अणभवता
बुध्दीमत्तेच्या म्हालवजार
सर्ग सुख
केन्ना केन्ना
आनंदाचे डोही आनंद तरंग

## खेमू

खेमू आतां आदलो उरुंक ना
तुमकां जाय तसो
जाय थंय थंय वापरपाक
ताका आतां तुमचे
राजकारण  कळून आयलां
मनशाकणकणी तुमी तुमचो
सभाव बदलीता
शेड्ड्यान रंग बदलचे तशे
तुमचेवरी
खेमून केन्ना आपली
जातूय लिपयली ना
आनी रंगूय बदल्लो ना
खेमून केन्ना कोणाचे

फुकट खावंक ना
ना म्हूण कोणाच्या
पांच पैशांच्या देंपिसावानय
रावूंक ना
खेमू कश्ट करीत
संघर्शाक तोंड दीत जगला
खेमून केन्नाच कोणाकडल्यान
शी ! थू ऽ ऽ म्हणून घेवंक ना
खेमू आपल्या जीवापरस
चारित्र्याक जपला
खेमून केन्ना कोणाचे वायट चितूंक ना
पाड येवजूंक ना
खेमू गरजेक सगल्यांकच पावला
खेमून केन्ना कोणाक
अडोवन दाखोवंक ना
तांणी जायत्या जणांचीं कामां
आपलीं कशीं जीव मारून केल्यात
थोड्यांनी कदर केली
थोडे बेइमान जाले
खेमून कोणाक कांयएक म्हटलें ना
आनी एक दीस
खेमूवटेन देवान फुडो केलो
आनी
खेमूची जीण पुराय बदलून गेली
आतां खेमू ताकां फुक्यासवाय
मानाय कसो घळोवंक
मेळना जालो
देखून ते म्हणूक लागले
खेमू आतां आदलो उरुंक ना

## कुंकार

आयज रे शिमेर जाली कुंकार
कितल्या वर्सांनी कांय जायना
जागी जाली  आमची सासाय
म्हूण आयज आमी पेटून उठल्यात

कोणा एका काळार अशींच  जाल्ली कुंकार
तेन्ना  दिल्ली तुमी  कुंकारेक कुंकार
कित्याक आमचे  पूर्णज नेणार म्हण
गांवचें सासायेक परतुवपी खपनखाऱ्यांनो
घुमतां पळय तुमच्या कानांत
तिका परतुवपाचे धाडस तुमच्यात ना
तुमकां खबर आसत आतां आमी नेणार उरुंक ना.
तुमचें काळीज धडधडटा आयकून ही कुंकार
कुंकार आमच्या पूर्वजांची
कुंकारेक कुंकार दित जाल्यार सरणां तुमचीं पेट्टलीं
आमचें पूर्वज घडये तुमच्या पोशांतल्यान
उदक पियेल्या जायत
म्हणू आमी पियेतलें अशें मात समजूं नाका
तांकां तुमी फसयल्ले आमी फस्चेनात
आयज आमकां आयला कळून तुमी आमचे कोण न्हय
तुमी कर्मदळींद्री  माथ्यार मोडक्यो मारून
आमच्या दारांत आयले
आमच्या जाण्टेल्यांनी तुमकां दवरुन घेतले
हळू हळू तुमी घरांत रिग केलो, आनी घर तुमचेच केलें.
आमचे जाण्टेले वगीच रावले
भावांभावांमदीं झुंजा लावन तुमी
आमची मजा पळयली
आमी आमचीच बोडकां फोडलीं
पूण ... धनीपण मांत तुमी मिरयले.
आमी आमच्या घरांत चाकर जाले.
कितल्योशोच पिळग्यो तुमच्या शेकातळा चिड्डल्यो
देखून आयज खंयच्याय खिणांक रणवाद्यां वाजतलीं
जैताची घुडी उभारुनच आमी
गर्भकुडींत लामणदिवो पेटयतले.

## निरागस भुरगेंपण

आवय बापूय पोटाफाटल्यान वच्चें
वयर काडूंक आमकां
देखून घरचें घरकाम
करतना
निरागस भुरगेंमन म्हजें
भुरगेंपणातूच सोपलें
भांवडांक पळय, आयदनां घांस
उदक भर, चुलींत उजो कर,
उदक तापय आदंण दवर
तांदुळ घाल, शीत वाळ
खंयचे कडेन आदेस काबार
शेजारची भुरगीं
खेळून कांडटालीं धुमशेणां
करताली कल्लोळ

आमच्या आंगणांत
तेंन्ना हांव धाकल्या भावाक
मांडयेर घालून
पडवेर न्हिदय
भुरग्यांचो खेळ पळयत
हांवूय गायतालो आल्लय
बाबुल्याखातीर
"यो गे घुबी ऽ ऽ
आमाड्यार उभी
रडटल्या बाबूक
थांबय बेगीन "
"कुरुं कुरं काना ऽऽ
म्हशीं गेल्या रानां
आमडून हाड रे गवळ्या मामा
बाबूच्या हामा "
आनी धाकलो
सुस्त न्हिदतालो
आल्लयेच्या सुरांत
आनी हांव
नेटान वतालो भुरग्यांवांगडा
खेळूंक
तेन्नाच तांचो खेळ सोपतालो
ती घामान चिप्प भिजून
आपआपल्या घरां परततालीं
हांव आंगणांत
एकटोच उरतालो
म्हज्या निरागस
भुरगेंमनाक सांसपीत

## प्रायश्चीत

देवाघरच्या रत्नांनो
म्हज्या अपुरबायेच्या पुतानो
आतां
फुगार जावन  मुळूमुळू करून
आवयच्या मड्यार कित्याक रडटा
कोणाक दाखोवंक ?
ह्या शेजार सामाऱ्याक
सोयऱ्या दायऱ्यांक
कांय वांगडच्या इश्टमित्रांक
गरज ना
तांणी सगळ्यांनी तुमच्यो
भंगल्यो मारून जाल्यो
जेन्ना तूमी तुमचे जाण्टे आवयक
वाऱ्यार सोडून आपापल्या बिराडाक वचून रावले
कशे पुरवले तुमकां पूतानो ?
जनाची ना जाल्यार मनाची तरी
शरम बाळगुची आसली
आनी आयज खंयच्या नाकान
मड्यार म्हज्या रडपाक आयल्या

इश्ट मित्रांक तुमी पयस केले
घरच्यांनी तुमकां पयस केले
खरें सांगू पुतानो, म्हजो तुमचेरूच
जीव आसलो
आनी तुमचो .....
पूण खंयचेकडेन काय ना
सगळीं फटकीरीं सपनां
जीव वयतना दोन थेंबे ताळ्यार घालपाक
कोणएक लागी नासलो
तुमी दिल्ल्या पच्छात्तापान
जाणट्यापणांत पुतानो हांव खचली
तुमचो बापूय आसल्यार
अजिबात भिवंची नासली
अन्नाक वळवळली उदकांक तळमळली
पुतानो आता वयल्याचाराक
रडून कसलो फायदो ?
क्रिया कर्म किदें आसा तें करून घेयात
तुमचे जिणेची एक आडखळ पयस जाली
आतां तरी सुखान जगून घेयात
जाय तितलो दुडू त्या म्हज्या
बोटव्यांत दवरला सांबाळून
म्हाका ना वळखूं
पूण त्या बोटव्याक मात विसरू नाका
तो बोटवो तुमकां घडोवपाक
सदांच रितो जाला
कोणाच्यान सांगू येता
फाल्यां तुमकांय
दिल्ल्या मापान घेवचे पडत
तुमचे आवयचे प्रायश्चीत

## दादो

दादो, आतां तें घरांमुखावेलें
खळेंच ना जालां
खळेंच ना जालां देखून
देणलो शिगमो बंद पडला
रोमटाचो आवाज आतां
गांवांत म्हज्या घुमना
देणलो कोण नाचयना
शिगमो कोण खेळना
ओसऽऽय ओसऽऽय सूर कानार सादना

जाणा दादो .....
शिगम्याच्या दिसांनीय ते
क्रिकेट टुर्नामेंट खेळयतात
दनपांराच्या कडार आतां
भुंजार रथ कोण नाचयना
"शांतादुर्गे माझे आई
मजला ठाव द्यावा पाईं"
दादो तुज्या म्हज्या गांवाचे आतां शारीकरण जालां
दोंगर बोडके केल्यात शेतां पडींग घाल्यात
शेतां ना म्हण गोरवां ना, गोरवां ना देखून गोठो ना
दादो तुजो म्हजो राखणोय आडवणांत गेला
देखून म्हाका म्हणचे पडटा...
"चानयेच्या पिला तुका तिन गो पाट
गांव कोणें शारांत व्हेला दाखय वाट"
आवय ...
आवय तुज्यो त्या होंवयो, धांलो फुगड्यो
वर्सा संकिनच्यो आतांच्या बायलांनी
ताच्यो केल्या बकाच्छायो
पूण आवय तुजे ते सूर आयजूय म्हज्या कानार सादता
"पान म्हजें फोंफळ तुजें चुनो कोणालागी आसागे ऽ ऽ
चुनो कोणालागी असा गे ऽ ऽ
मोगा आते पान खातें चुनो ताचे लागी आसागे ऽ ऽ
चुनो ताचे लागी आसागे"
"रथा तुज्या घुडयो साडेतिनशे दाणयो
रथात कोण देव बसे गे ऽ ऽ
रथात कोण देव बसे गे ऽ ऽ"
आवय तूं मालून म्हयन्यांत
शेणान सारांवन धांलांचो मांड सजयताली
त्या मांडार आयज धांलांक रंग चडना

फुगड्यांक भार येना कोणाच्याच आंगांत
रंभा येना
आयज ती मांड जागयता एक भोगावळ म्हूण
आवय म्हाका तुजें अस्मितायेची
खिणांखिणांक याद येता.
दादो आतां तें सगळे फ्लॅटांत रावतात
आपापल्या बायल भुरग्यां वांगडा
ज्यॉयंट फेमिलीचो ज्यॉयंट केन्नाच तुटलां
तांका शेजार सामार लागना
आमचें गिरेस्त संस्कृतायेचेर
ताणी केन्नाच खोट माल्ल्या
आनी पोटलून धल्या पाश्चात्य संस्कृती
दादो तांकां चवथ लागना, शिमगो लागना
सण परबो तर नाच ना
पूण नरकासूर मात हमखास लागता
दादो तें नरकासुराच्या राज्यात वावुरता
नरकासुराभाशेन
म्हाका या नरकासुरांचो भंय दिसपाक लागला
दादो हांगा जाय ती अजापा घडटा
कोणाक कोण लेखीना, कोणाक कोण मानीना
खिणांखिणांक चल्ल्यां हांगा स्वार्थाचीच फटींगपणा
फटींगपणा बगर आतां पावल मुखार पडना
फटींगपणा सांवर आतां कोणाकूच आयकना
हांगा कोणूय मेलो जाल्यार हड्डे बोडेवन कोण रडना
हांगा मरण सुध्दा एक फॅशन जाल्या
कित्याक जाणा दादो
आतां सगळेच www.com जाला
मनशाचे मनिसपण व्हायरसान करप्ट जाला
देखून म्हाका म्हणचे पडटा चानयेच्या पिला तुका ....

# तुज्या सांगातान

काळजाक काळीज भेटलें
पावसा तूं रे आयलो तेन्ना
आयज तें पयस ... पयस...
पावसा तुवेंय दडी माल्या...
म्हूण
दोळ्यातल्यान दुकां अशीं व्हांवल्या
आतां ...
तुज्या सांगातान रे पावसा
म्हाका
सुकती भरती सारखीच जाल्या

## जीणचो अर्थ

म्हजे जिणेचो म्हाका अर्थूच कळ्ळोना
हांव कोण कोणाखातीर जियेलो
म्हजे खातीर... कांय... आनीक...
पूण जायत्या जणांनी म्हजे जिणेचेर
आपलीं आदनां चडयलीं
कोणी गंध कसो झरय झरय झरयलो
तर कोणी म्हजो मेळत थंय मेळततसो वापर केलो
हें घडले... तें कित्याक जाणा
म्हजे जिणेचो अर्थच म्हाका....
जीण म्हजी जगप तरी कशी ?
तेवूय कळ्ळेंना
पूण जिणेचो अर्थ जाणा जावपी
त्या पंडितानीय म्हाका तो कित्याक सांगलो ना ?
म्हजें जिणेचो अर्थ किदेंय आसूं

पूण म्हाका तांचे जिणेचो अर्थ
बेसबरो समजला
देखून खऱ्यांनीच खरें सांगता
आयच्या ह्या संवसारांत जीण
अशी जगताना , कमराचें सोडून
माथ्याक बांदल्यार कशे ?
पोन्ने म्होडून नवे घडयल्यार कशें ?
कोणायल्या कोंब्यान साद घालू
उदेत्या सुर्याक नमस्कार केल्यार कसो ?
सुवार्थाक पोटलून धरतना
केंसान गळो  कापपाचे
कसब शिकल्यार कशें
चार चौगांनी जोडिल्ल्या नांवांचेर
एकल्यानूच मिरयल्यार कशें ?
हात उबारपाची, आनी मेळत थंय
हात मारपाची सवंय तुवें करतना
अखंडीतपणान भ्रष्टाचाराचो
मंत्र जपल्यार कसो ?
चोर फटींग नागवण्यांचो
आदर्श बाळगीताना
सत्याक मस्तिल्यार कशें ?
शिंदळकीक प्रतिष्ठा दितना
प्रतिव्रतेचेर बांबर शिपडल्यार कशें ?
लोकशायेच्या नाड्यार सायबानो
हुकुमशाय गाजयल्यार कशें ?
नथुरामाचे उद्दातीकरण करतना
गांधीक बदनाम केल्यार कशें ?
काळापरमाणे माथ्यांक कुरपणे बांधून
जीण जगल्यार कशे ?

## नातें

मोगा तुज्या मनाक
कळवळ्यान ...
तशें तूं म्हजें कोण न्हय ?
तुजें ... म्हजें... नातें
जुळटा... जुळना...
मात्शें... वेगळें...
पूण
मनाक तुजेविशीं ओड
कित्याक ... कशी ... कोण जाणा...
दोळे भरून घेता
आयजूय घडये तुका तें
फाटल्या यादींनी घुस्पता म्हूण।
सांगू न्हजो ... तुका विसर पडला आसत
तुजें बाबडें मन...
कोणा एका तेपावेलें तेंवूय
मानता जाल्यार
तूं सर्वार्थान परक्याचें
केन्नाच जालां.

## भाड्याबैल

इतलो तेप
आमी हाताक
फोड येयसर
नेंमा माल्लीं
माटव रचलो
माचयेर बसून
भाशणां तुमी ठोकलीं
आमी टाळयो माल्यो
तुमच्या भाशणांचेर
तुमी आमकां गृहीत धरुन चल्ले
आमी काम करपी मानायूच म्हूण
आरेच्या ऽऽ हें कितें ?
देखून
खऱ्यांनीच खरें सांगता
आतां काळ बदलला
नेमां आमीच मारतले
माटोव आमीच उबारतले
भाशणांय आमीच दितले
तुमी फक्त ताळ्यो मारपाच्यो
आमकां तुमची गरज
फक्त भाड्या बैल कशी

## षडयंत्र

बस्स्... पुरो करात तुमचीं
षडयंत्रा एकामेकांक सोपोवपाची
गटबाजी करून सुवार्थ
सादोवपाची वृत्ती
तुमची निष्ठा उखलापी म्हणपाचें
आतां इल्लें इल्लें दिसून आयलां

कारण तुमचे डावपेच जाणा
जाल्ले  तुमकां कोणूच सोसना
जाव ल्हान भाटकार
जाव व्हडले भाटकार
तुमची साळसूदपणां आतां
लागल्या आमकां कळूंक
तुमची मक्तेदारी येवंक
लागल्या संपूष्टात
देखून तुमी षडयंत्रा रचूंक लागल्यात
तुमी केल्यात आपआपले गट
आनी वाटून घेतल्यात
भाटां आनी बेसां
ह्या भाटांनी अनोळख्यान भितर
सरलेलो तुमकां जाता नसाय
कारण ही भाटां सारोतेप
तुमच्याच हातात उरपाखातीर
तुमी करीत आसतात कायलोळे
कारण तुमकां नव्यांचो
भंय दिसपाक लागला
हीं भाटां तुमच्या हातातल्यान सुटत म्हूण
आता हीं तुमचीं भाटां
आनी हीं तुमचीं गटबाजी
चड वेळ तिगची ना
कारण आतां आमीय
षडयंत्रा रचूंक लागल्यात
तुमची मक्तेदारी मोडून काडपाक
कित्याक  चळवळ केन्नाच एकल्याची
आनी स्वार्थाची आसना
हें  सिंध्द करपाखातीर

## निमें

तें बाबडे तोंड दुबाळे
आपले  मान मार्यादिन रावपी
वांगडच्यांची लग्नां जावन
तांका भुरगींबाळां जालीं
पूण हाची अजून
सोयरीक जुळना
कोण म्हण्टा ताका रुप ना
कोण म्हण्टा तें काळें
कोण म्हण्टा तें शिकूना

कोण म्हण्टा तें भजर
कोण म्हण्टा तें मोटवें
तर कोण म्हण्टा
ते तिकळें
सगळे जाण आपलो स्वार्थूच पळयता
ताच्यांत आशिल्या मनीससभावाची
कोणूच कदर करीना
कित्याक तर ते तोंडदुबळें
मोन्यांनी सगळें सोसता
पांच भाव आसूनय तें निमें उरप ही भावां भावजयांक
मोठी शेरमेची गजाल
शेजार सामान्यांनी खूप खटपट केली
पूण हांचे नशिबूच खोटे
धाकुलपणाची एक सोयरीक आयिल्ली,
तिवूय कोणे तरी मोडली
तांणी खेळयिल्ल्या
गूं मूत काडिल्ल्या भुरग्यांचीच
लग्नां ताच्या दोळ्या
हुजरां घडटा देखून आतां ते
जीवाक विटलां सामकें वांजेलां
जिणेवेलीं वान्साय ताची बावून गेल्या
तें कित्याय कितें बडबडट्टा
ते आतां पिशान्तूर जालां
आतां आपलें लग्न काय फळीसपन्
धाकुलपणाची एक आस आसली
तिवूय कोणाक सोसलीना
कित्याक तें तोंड दुबळें
ताची चवकशी करपी कोण ना म्हूण ?

## इचाणां

तो भायल्यान पळोवंक बरो दिसता
भितरल्यान ....
तो मनानूय आनी काळजानूय
पुरो पिड्यार जाला
सोऱ्यान काळीज करपलां
आनी दुसऱ्याचें वायट चितून चितून
मन कुसलां
गोरी कात आनी बुरी जात
म्हण्टा पळय तसली ताची गत
सांगून उपेग ना
पयशांच्या नेटार आनी
रगताच्या उन्मादार
आतां तो उडटा
सुवार्थ सादोवपाची
ताका संवय जडल्या
संदीसाद् मनशांक
खंय आसता स्वाभिमान ?
पयशांक संवकल्ले मनीस
कोणाकय विकून खांवक तयार आसता
ते मनशांत आसना
ते म्हळ्यार
मनिसपणाक लागिल्लीं इचाणां

## श्वास विश्वाचो

जगावेल्या राटवळींनी
कित्याक म्हणून आमी
स्वताक घुस्पावन घेवचे ?
उलट ...
आमी आमच्याच विश्वांत
कित्याक रंगून वचचे ?
विचार
हे विश्व सगळ्यांचे
सगळ्यांनी
मनीसपणान भोगपाचें
तूं .... हांव ... आमी
तो.... ते असलो नाका भेदभाव
मनीस सगळ्यांक सारको
धर्तरी ...
भोंवडी ब्रम्हांडाची
मनीसपणाचो स्वास
तुजो नी म्हजो
जावचो एकरूप
ह्या विश्वाचो

## फरक

भर बाजारांत
सुणीं  भोंकतालीं आनी
एकामेकाचेर केंकाटतालीं
आनी ताका शिटकायतालीं
आमच्या पोटार आड येवं नाका
त्या गटारांतलें उश्टें आमचें !
ताजेर अधिकार तुजो सांगू नाका
पूण ...
तोवूय सुण्यावांगडा गटारांत रिगलो
सुणो जावन
फरक इतलोच, ताच्या कमराक
वेंतभर फाळयेचो, गुठलायलो आसलो

## सांगता म्हूण वायट धरुं नाका

म्हजे मेल्ले कुडीचें दर्शन घेवंक आयिल्ल्या
बरें मागप्यांनो, सोयऱ्यां दायऱ्यांनो आनी दायजी दुस्मनांनो
खरेंच तुमकां वायट दिसलां व्हय ?
सांगता म्हणू वायट धरुं नाका
हांव उडट्या सवण्यांचीं पांखां मेजपी
तुमी लोकांक फटयशात, मनाक फटोवंक जमचेंना
हें फट जाल्यार विचार तुज्या मनाक
वगीच अडेचीं दुकां गळोवन
कित्याक पापया दोळ्यांक शीण दिता
हो चड बोवाळटा तो म्हजो शेजारी
उभे जिणेंत आमचे एकामेकाक पटलें ना
आयज म्हज्या सोयऱ्यांक रकाद तोच धाडी
घडये म्हज्या वचपाची वाट पळयत आसलो जावंये
पळोवं... शेजारीच तो म्हजो

हो पायणींतल्यान हाम्हेल फोडीत येता
तो म्हजो पुतोवणो.
तो आयला मर्ण करपाक, तें कितें कर्तव्य म्हूण न्हय !
तर ....
म्हजे संपतीचेर ताची नदर आसा,
उभे जिणेंत केन्ना बापोल्याचो उगडास केलो ना
आतां ताका खबर आसा
हें सगळें आपल्याकूच पडटलें
म्हूण तो हाम्हेल मारीत आयला
येवं बाबडो ... निमतानसो घराक पावला.
निसण करपाक भाटकारान
आंतोडातल्यान कोणो हाडूंक सांगला खरो
कित्याक जाणा...
ताका खबर आसा आतां हें राखणेक दवरिल्ले आंतोड
आनी भाट अपलेंच जातलें कटकटी शिवाय
जांव ... निमतानशें पूण्य घडटा
भायर आंगणाचे पेळयेर बसल्यात
ते सुवार्थी राजकारणी मनीस
धवे कातीचे काळ्या मनाचे
म्हज्या निमतान आयल्यात खरे
समाजांत प्रतिश्टीत म्हूण मिरोवंक
मिरोव... ही संद परत मेळना
समाजाचीं धोंगां-पोंगां आसात म्हाका खबर
दोन दीस रडटले मागीर वांट्यांक झगडटले
मेलो तो बरें जालें, कांय जाण सुस्कारतले
कांय जाण वयल्याचाराक दु:ख घेवन बसतले
बसू...
सगळेंच काडोवन वतले, कोण एक उरचो ना

## परिवर्तन

आमी कुळवाडी सांजेक नाशिल्ले
बारीक लोक
सारोतेप कण्णे काडून
जगले
भाटकाराल्या कुळागरांत
झर झर झरले
घाण्याचे बैलकशे
घुंव घुंव घुंवले
अस्तित्वाची जाण जांणी खुटली
जांणी आमची अमुरपिकी सपनां
पायापोंदा चिड्डीर्ली
आमच्या जाण्टेल्यांनी
नाईलाजान तांची गुलामगीरी सोसली
तांकां बुध्द शिकवंक
आमकां आमच्या अस्तित्वाची
जाण करून दिली
ताचे अस्वडी ताका सुलूस लेगीत
लागली ना
आयज सगळ्या क्षेत्रांत
आमी तांचे मांडयेक मांडी लावन
बसपाक शकता तेंच तांकां चड
तोंकासार जालां

## नांव निशाण

सोबीत सुंदर वांठार
कित्याक तुमी पिसुडलो
पाचवें निळे दोंगर हांगचे
कित्याक तुमी पोखरले ?
थंड किराव घसघशीत व्हझर
न्हंयो बांयों आनी दूधसागर
बांद घालून कित्याक तुमी आटयले ?
सुपीक रोसाळ, पिकाळ भूंयेक
कित्याक तुमी वांजूट केली ?
अर्ध्या अधिक वाठार विकून खावन
उरिल्लो वाठार विद्रूप केलो ?
शांतीकायेन ल्हानविकायेन मनीसपणान
वागपी भुंयपुतांक
कित्याक अशे नक्षलवादी घडयले ?
भुंयेवेल्या सर्गाक ह्या कित्याक असो नरक केलो
संस्कृतायेचेर घालो घालून
कितें तुमी मेळयलें ?
अस्तित्वूच नश्ट करपी
तुमचें नांव निशाण तुमच्याच हातांनी पुसून
भविश्याकय काळखांत लोटपी फडतूस राजकारण
हे मातयेकडेन कित्याक तुमी खेळ्ळें ?
हाची जाप काळ तुमचे लागी सोदतलो
तेन्ना तुमी पसतावतले

# घरभाट

घरभाट सगळ्यांचें
घरभाटाची वांटणी करतना,
तुमी आमच्या जाण्टेल्यांक
काय एक लागूंक दिलेंना
तेवूय तुमचेकडेन झगडूंक गेलेना
हाचो अर्थ असो न्हय की आमी
हांगाचे कोणूच न्हय ?
आमचे जाण्टेले सद्भावार्थी
तुमच्या जाण्टेल्यांनी
तांचो बेस बरो फायदो घेतलो
घरभाट सगळ्यांचें जाल्यार
आमच्या आज्यापणज्याच्या नांवार
घरभाटाचो इल्लोय जमीनीकुडको
कित्याक कसो आयलोना ?
तुमची खोटी पाडी नाड वृत्ती
तेन्नाय आसली आतांय आसा
पूण आजय आमी तुमकां बदचेनात
व्याजासकट (मुदलांसकट) सगळें
वसूल करून घेतले
आनी म्हाळ वाडटले

## धुळेंवणी

आयज आयले पयले
सोयरे धायरे
शेजार सामार
सगळे आमकां लागी जाल्यात
कित्याक... आयज आमचे कडेन पयसो आसा

काल पयर मेरेन
आमचे कनिश्ठायेच्यो
बकच्छायो मारपी
आमकां आतां आदारान
उलो मारुंक लागल्यात
कित्याक .... आयज आमचे कडेन पयसो आसा
पूण आमकां खबर आसा
संकटाच्या वेळार
आमकां कोणकोण पावल्यात
तांचो आमी पयशांनी
वालोर करुंक शकना
तांचें रीण आमच्यांनी पावोवंक जांवचेंना
कितलोय पयसो आमचेकडेन
आसलो तरी
तांचो मान तांकां
दिवपाक
आमी मात्तूय धजचेनात
आयज प्रत्येक जण
आमच्या नशिबाक
धुर्लेवपाक लागल्यात
आमी तुमची केन्ना धुर्लेवणी केल्या ?
आमचें नशीब आमकां फावो जालां
आमच्या सारख्या सांजेक नाशिल्यांचें
कल्याण जाल्लें तुमच्या दोळ्यांक
सोंसना जाल्यार
तुमचे दोळे फोडात
नाजाल्यार आमकां तुमकां कितेंतरी
ओवाळून दिवचे पडटले.

## व्यक्ती

एक व्यक्ती
नश्टे प्रतिष्ठेक सोपली
एक व्यक्ती
आडेचे प्रतिष्ठेक दसली
एक व्यक्ती
कण्णें काडीत जगली
एक व्यक्ती
पिरंगत रावली
एक व्यक्ती
तेंमाक पेटली
एक व्यक्ती
देमांदान काबार जाली
एक व्यक्ती
सोऱ्यांत बुडली
एक व्यक्ती
कायलोळ्यो करीत रावली
एक व्यक्ती
भायले पिडेक आफुडली
एक व्यक्ती
मनिसपणान वागली
तीच
खऱ्या अर्थान
जिणेसूख भोगूंक पावली

## कवनां 3

ध्येयनिष्ट मनीस
स्वकर्तृत्वान जैत जोडटा
सुवार्थी कुचित्री मनीस
कळत नकळत ताचेर जळटा

*****

तुजे मनभुलवणें लजप
म्हज्या मनसंवेदनाक
एक नवो आयम
भेट दिवन गेलें

*****

सुखी तुजे जिणेंत तुका
मेळटा जायतो सांगात
दुःखी तुजे जिणेंत तुका
तुज्या मनाचोच आदार

## कवनां 4

वेदनांच्या कांट्या खुट्यांनी
जीण म्हजी विणल्या
सुखापरस दु:ख झेलपाची
संवय म्हाका जडल्या

*****

आमकां आमचें जिणेंत
जायते सांगाती मेळटात
कोण मनां जिखून घेतात
कोण काळजां तोडून वतात

*****

सगळे दु:ख मोन्यांनी गिळ्ळां
तुमच्या वांगडा किरयतना
तुमी समजशात तुमचेवरी
म्हाकाय दु:खाची जाण ना

## नदर

तुजी नदर म्हजें नदरेक कितें तरी खुणयता
हें हांव केन्नासावन पारखितां
पूण मनाक ताचो थाव लागता
लागना
म्हजी नदर तुका, अशीच खुणायना मू?
तुज्या मनातले भाव तुज्या तोंडार
हय न्हयशे चंवरता
तरीपूण खंय तरी दुबावाची सावळी
म्हाका भेडसायता
आतां हो नदरांचो खेळ खूब जालो
आनीक कितलो तेंप तो चलतलो
म्हाका खबर ना. . आनी तुजें हॉव नकळं
पूण कोणें एकल्यान पाजण दिवचो
वेळ आयला
तुज्या म्हज्या कवळ्या मनांत
मोगा बीं रुजपाक

## तुमी आमचेच

तुमी आमचेच
एकाच घरवडीचे पूण
तुमचे आस्पतीचेर आमी केन्नाच
दोळो दवल्लो ना
तुमचे जिणेंत आमी केन्ना
मेंतरुय जालेंना
तुमी मात आमकां पावलां पावलाक
पिडपाक लागले चिड्डूंक लागले
सुवार्थाखातीर
फाटल्या जल्मांचे वैरी कशे
आसूं पडूं पाड अशें म्हणून
आमी वगीच रावले
पूण पयर तुमी आमच्या
मर्णार उठले
तेन्ना आमची तकली सण्ण जाली
आनी पांयाची तिडक
मस्तकाक चडली
आमच्या वडिलांनी आमकां
आडयले म्हूण ...
ना जाल्यार

## रीणां

आमी सांजेक नाशिल्ले
वर्सभर रिणांनी बुडिल्ले आसता
कारण रीण काडल्या बगर
आमच्या घरांत किर्तेंच येना
आमी कोपरांनी पयशे भरता
ते कित्याक साठोवंक न्हय
तर रीण काडपाक सोपे पडचे म्हूण
केन्ना केन्ना आमकां खर परिस्थितीक
तोंड दिवचें पडटा तेन्ना आमी
एक रीण पावोवंक दुसरे रीण काडटा
जोडिल्ली जोड व्याजाक मोडटा
पूण वर्राद जगता
आपल्या पेल्याक सोयऱ्या धायऱ्यांक
सगळ्यांची घसघशीत लग्नां कार्या करता
घरांत हुदीर शेपडी बडोव
पूण भायर वर्राद मिरयतां
आमी फाल्याचो हुस्को करीनात
आयचें आयज फायचें फाल्यां
फाल्यां कोणें पळयलां ?
पूण हाका ताका नागोवन
दोन नंबर करून आमी पैसो जोडीनात
आमच्या घामा कश्टाचीच जोड
आमी जोडट्टा सुखान मानान जगता.

## संघर्श

केन्ना केन्ना हांव भन्नाट चित्तां
म्हजें घराणें गर्भ श्रीमंत आशिल्लें जाल्यार
हांव खंय आसपाचो
परिस्थिती नुसार हांव घडपाचो
म्हाका सतत पावला पावलांक
उभ्या आयुश्यात
दर एके गजालेक संघर्श करचो पडिल्ल्यान
म्हजे जिणेंत रंग भरत गेलो
तो वच्चो नासलो
हांव सतत धडपडलो म्हाका सिध्द करपाक
म्हजी वळख घडोवपाक
देखून म्हाका म्हजे जिणेचो व्हड अभिमान
श्रीरीची गाठ चिरुंक नाशिल्ल्या
अशिक्षीत अनाड्याच्या घराण्यांत जल्मूनय
आयज ज्ञानदानाचें वाटप चल्लां
वाडव्हडलांक अनीक कितें जाय... ?
फिनीक्स पक्षावरी आमीय सगळे
शुन्यांतल्यान मेळयलां उभें केलां
फक्त एका हावेसान एका ध्यासान
मनीस जल्म सार्थकी लायतना
बहुजनहिताय बहुजनसुखाय मंत्र आपणावन
लौकीक जिणेंत अलौकीक
कर्तृत्वाची कुरू दवरप हीच आमची मोख

# आवयचें देंणें

'चारचौगांक बरें मागतकच
आपलें बरें जाता
कोणाचेंय मागून खांवचें
चोरचें न्हय, पोट जमनीर तेंकोवन
न्हिदचें पूण
लाचार तर जांवचेंच न्हय
दुसऱ्याक मान दिलो
म्हणू आपूण ल्हान जायना
ल्हानविकायेन वागचें
मीपणान वागचें न्हय
आदीं खंय देव सर्गार दाखयतालो
आतां मार्गारुच दाखयता
तूं शिकल्यार तुज्या बायले भुरग्यांक पोसतलो
तुजो फुडार घडयतलो
ना जाल्यार हांगा थंय बेकार थवय कसो
हेडत उरतलो, अरवळ कसो'
भुरगेंपणांत आवयन पाजिल्ले डोस
आयज म्हाका बऱ्याक पडले
म्हज्यांतलो स्वाभिमान
आनी म्हज्यांतलें मनीसपण
बळीश्ट जावंक पावलें
पुराय देंणें आवयचें

## तळें

पांचवोचार सैम आनी
व्हावतें तळें पळोवन
तळ्यादेगेर
आमच्या जाण्टेल्यांनी
खुटी मारून मठी जोडली
गांव गांवस्की
देव देवस्की
सांभाळली
तळेश्वराक दिवोवात लावन
तळ्याच्या उदकार
पोसलो सगळो गांव
शुध्द पाणी नितळ पाणी
तळ्याचे
आयज जाला दुशीत
मनशाचे एक सोड
गोरवां सुध्दा
तळ्याच्या उदकांक आफडीनात
इतलो तळ्याचो विटाळ जाला
कारण
धुल्लाच्या पैशांक गांवकऱ्यांनी
तळ्याचो बळी दिला

## कवनां 5

तेंन्ना गांवांत भुरगेंपणांत
घोंटां पुंजायत खेळ्ळे
शारांत आयज भुरगेंपण सोडून
इंटरनॅटार सगळें म्हाका मेळ्ळें

*****

मनीस समजून घेवपाक
मनीसपणाची वृत्ती जाय
निस्वार्थी जीण जगपाक
एक भावूक मन जाय

*****

कोणां दुसऱ्यांच्या नाड्यार
हांवें म्हजें आदंन दवरुंक ना
तुमचे भाशेन आजून हांवें
म्हजो स्वाभिमान विकूंक ना

## कवनां 6

तुजी धपकावणी वजा शिटकावणी
म्हाका खूप मानवली
कारण तातूंत आसलें तुजें
भावूक मन आनी आपलेंपण

*****

तत्वां बित्वां लावन काडाशेक
आवांतार जगप
संद मेळटा तेन्ना तेन्ना
आपलें काम सादून घेवप

*****

मोग दिवपी मनशां भेट्टात
तेन्ना काळीज भरून येता
आपलेंपण कोणूय दाखयतकच
मनावेलो त्राणूय मात्सो उणो जाता

## आमी

तुमच्या मतान आसत आमी
बाबत कुळां
हें तांबडे मातयेंत
घट्ट धरुन आसात
आयजूय आमचींच पाळां मुळां
तुमच्या मतान आसत आमी
गांवूडगे अशिक्षित शिक्षण नाशिल्ले
पूण स्वातंत्र्याच्या झुंजांत
आमीच मुखार आशिल्ले
आमचें कोंत आमकां सांगता
आमीच खरें भुंयपूत
कित्याक
तुमचे वरी आमी आमचो
स्वाभिमान  घांणांक दवरुंक ना
तुमचे भाशेन गणसाबैल आमी जालेनात
तुमचे भाशेन आमी आमचें
मनीसपण व्हगडावंक ना
तुमचे भाशेन हे तांबडे मातयेकडेन
आमी
बेइमान जांवक ना

## वंशवेल

हांव म्हळ्यार
म्हजे पूर्वज वंशवेलीचो
एक मोनो कळो
जीण म्हजी घडची आसा
जांवचो आसा बोणकळो
तरण्यो नदरो ओडून घेवंक
तिश्टत दवरुंक तांकां सगळ्यांक
अकस्मात म्हाका फुलचो आसा
भोंवऱ्याक म्हाका
खेळोवचो आसा
परमळान तांका घुस्पयतनाच
केन्ना फळा आकार घेवचो आसा
सुरबूस जीण घडयतना
कर्तव्य म्हजें पाळचें आसा
म्हज्या फळाची बी रुजोवन
तिका सारेंउदक लावन म्हाका
म्हजी वंशवेल वाडोवची आसा

## वावटळ

कोण तेप जालो हांव तुकांच रावतां ...
आतां आनीक म्हज्यान सोसूंक न्हजो
पळोवन ही रेंबकोणांतली जीण
देखून रावता तुका
झंजोळपाक हें रेंबकोण
तूं केन्ना ना केन्ना तरी येतली म्हूण
दनपारच्या रखरखांत तूं आयली
अक्राळ विक्राळ रुप घेवन
गाजयलो तुवें तुजो शेक
सरसकट धर्तीक वेटकाळताना
तूं विसल्लीना वेटकाळपाक तांकां
वेंटकाळ्यार वेंटकाळे पडत गेले
तुजो एक एक वेंटकाळो चुकयतना
म्हाका खूब कास्तीक पडली
तूं उडत गेली मळबावाटेन
वयर ... वयर... आनी
अंदिल्ले वेंटकाळे आपसूक सैल पडले
तुजें बळगें तांच्या फुडें उणें पडले
तुंवें लजेन तोंड खंयतरी खुपशिलें
म्हज्या नकळत.... आनी
हांव शेवटलो परत त्याच रेंबकोणांत
पर्थून उभो.... थंयच ....
तुजी वाट़ तेळीत
रखरखांत तिश्टत....

## वक्लां

दुबावितांच्यो दुवावीत
नदरो चुकोवंक
लोक वापरतात
काळीं वक्लां
असलीं - नकलीं
वक्लां वापरलीं
म्हूण ...
काळीं कर्तुपां
धांपून उरनात
अंतर्मनांतलें चित्र
सगळेंच जाता
स्पश्ट
वक्लांविणें अडेच्या

## आवय

सांग गे आवय
आमचे खातीर इतली
कित्याक कश्टता
भुरगीं तुजी व्हड जाल्यात
आतां कश्ट तूं उसपी नाका

आमचे खातीर आतां आनीक
तरास तूं काडी नाका
कूड तुजी थकल्या आवय
सुशेग थोडो घे आतां
तुज्या जडभार उपकाराचें वजें
मात्शे दवरण्यार म्हाका दवरुं दी
आवय तुज्या उपकाराचें
थोडें रीण म्हाका पावो दी
आवय तूं नकळं
श्रीरीची गे गाठ चिरुंक
तूं नेणार अशिक्षीत
पूण सांग गे आवय
शिक्षणाचो दिश्टावो
तुका केन्ना कोणें घडयलो ?
पोटाक मिरयो घालून तुवें
म्हाका खूब खूब शिकयलो
शाळेंत घालून तूवें
म्हाका मनीस मगे घडयलो
तुवेंच दाखयिल्या वाटेन आतां
म्हाका मात्सो चलूंदी ... आवय
आवय तुजो बोटवो
सदांच म्हजें खातीर जांवचो रितो
आवय तुवें पळयिल्लें
फातोड सपन आतां साकार जालां
आवय तुजो रीतो बोटवो
आतां म्हाका मात्सो भरुंदी
आवय तुज्या उपकाराचें
थोडें रीण म्हाका पावो दी

## तुका येवचोच पडटलों

तूं आयिल्लो तेन्ना
हांव जैताकडेन पाविल्लो
तुवें मात्तुय सुलूस लायलीना
आनी
म्हजें जैत जैतूच उरलें
कितल्या वर्सांनी हांव जैताकडेन पाविल्लो
पूण ...

तुमकां कित्याक नसाय जाली
म्हूण तूं कोसळ्ळो म्हज्याच थंय
आनी
तेन्ना सावन हांव तुजी वाट तेळटां
हांव हारपाकडेन पावलां
असो कळाव कित्याक लायता
म्हाका खबर आसा
तूं भेदभाव मानीना
तुका जात कात लागना,
गरीब श्रीमंत तर नाच ना
मागीर
म्हज्याज थंय किते अडलां
हांव मनीसपणान चलता म्हूण तुका नसाय?
काय सद्धर्मान वागता
अन्याय अत्याचारा आड
आवाज काडटा म्हूण तुका नसाय ?
हांवें फटींगपणा नागोणपट्टी खून दरोडे
भ्रष्टाचार केलोना बलात्कार तर नाच ना
देशाकडेन देशद्रोहीपणूय केले ना
हेरा सारखे
म्हूण रे तूं येंवक ना.
ना. यो... कोणांक पडलां
निमाणें जैत म्हजेंच
तुका येवचोच पडटलो
एक ना एक दीस
संवसार बुट्टी हाडचीच पडटली
इतलें मात मतींत दवर
आं .... हय रे काळा

## सासाय

म्हज्या गांवाचें गांवकारपण
खंय शेणलां ? कोणांक खबर।
मनशाळो गांव रे म्हजो
कोणें मसंडेंत शेवटिला,
कोणें काळखांत मोखला
कोणें गांव विकुनूच उडयला
गांवकार रे भियल्यात काचाबूल जाल्यात
गांवचें सासायेक सोदूंक
भारांक खुदोवंक लागल्या
हांगच्या थंयच्या देवांक उस्तूंक लागल्या
पूर्वचाराचे देवळंत शेसार मारीत
पूण...

उभे जायनात रे भार
कित्याक जाणा
तांच्यो कुडीच भश्टल्या देवांनी
कुडी  रे सांडल्या
धालांच्या मांडार म्हज्या
उभ्यो जायनात रे रंभा
कित्याक जाणा ?
तांच्यो करण्यो तांकांच भुजल्यात
गांवांत भश्टकार जाला,
गांव कोणे मनीसघांण्या कृत्यांनी
भश्टीयला
म्हणून गांवचो नित्पात जालो
कणक्यामाडा सारखो गांव रे म्हजो
दुस्मनामुखार केन्ना शरणागती गेलो ना
गांवचे वैभव म्हज्या जाण्टयांची मिरास
आयज कोणी दवल्ली घांणाक,
कोणी दवल्ली घांणाक
आपमतलबी, आपसुवार्थी
सांवार उत्पन्न जाले रे गांवांत
मिरोंवक लागलेरे गांवकारपण
रगताच्यारे उन्मादार
गांवची सासाय मोखून माल्ली रे कोनशाक
तेन्ना सावन गांवाक गळटी लागली.
आजून जैपतीक येना, गांव मूळ  रे धरीना
आतां तांका वथ्रेणी  लागल्या
ते गांव गांव करून हांगाथंय हेड्टा
सासायेक सोदिता, गांवाक चुरचुरता
गांवकारपणाक आशेतात.

## श्री

श्री म्हळ्यार
श्रीकृष्ण न्हय
श्री म्हळ्यार
श्रीराम न्हय
श्री म्हळ्यार

श्रीकांत न्हय
श्री म्हळ्यार
श्रीपाद न्हय
श्रीरंग न्हय
श्री म्हळ्यार
श्रीनिवास न्हय
श्रीकंठ न्हय
श्री म्हळ्यार
श्रीमंत न्हय
श्रीवात्सव न्हय
श्री म्हळ्यार
श्रीधर न्हय
श्रीहरी न्हय
हो श्री चो जाला शिरी
सामको आगळो वेगळो
मारून सगळ्यांक
एकेकडेन XXX
हो बसलां
सगळ्यांच्या माथ्यार
कार्तांद बेंबद्यांक हाचो
सदांच सलाम
बेबदेपणाचो हाका
व्हड अभिमान
खरेंच नांवान काय नासता
ती एक वळखपाची कुरु
ना जाल्यार
बारीक चितून पळय
श्री ची ही विटंबना

# अस्तित्व

आवयच्या गर्भांत रुजवणां आयिल्ले आमी
आमी तळपाक फुटूंक नात
हे मातयेंत आमची वार पुल्ल्या
ती अशीं वाऱ्यार उडोवंक ना
हे तांबडे मातयेंत आमी घाम गळयला
हे तांबडे मातयेंत आमी रक्त सांडयलां
हे मातयेच्या कणाकणांत
आमच्या अस्तित्वाची नाळ जोडल्या
आमी तिच्या रिणांत आसा,
आमी तिचे पांगेत आसा
आनी म्हणूनच...
जेन्ना जेन्ना ती संकश्टांत सापडल्या
तेन्ना तेन्ना आमी जिवाच्या आकांतान
तीचे राखणेक धांवल्यात

आमकां आमच्या कर्तव्याचे धंगण आसा
कारण आमी बाबत कुळां न्हय
खाल्या पानार हळशीक करपाक
आमी पडमूर न्हय...
कित्याक तर आमची पाळां मूळां
हें मातयेंत रुजल्या
तुमचे नदरेन आसत आमी खेडवळ गांवडळ
पूण गांवांत रावनय आमी गांव वसयल्यात
खेड्यांत रावनय आमी खेडी वसयल्यात
खेड्यापाड्यानीय आमी
मनीस घडयल्यात
आमी आमच्या वाडवडलांची
संस्कृती तिगयल्या
हे भुंयचे दायज आमी
आमच्या भुंजार केळयलां
तुमच्या कट्टुलांत तें ना
कारण तुमची वार खंयचेय वैजिणीन
हे मातयेंत पुरुंक ना
तुमच्या आवयांनी तुमकां
आंगार लुंचोवंक ना
तुमकां पदरापोंदा घेवंक ना...
तुमकां आवयूच कळूंक ना
आवय कळूंक ना देखून
तांबडेमातयेचें मोल कळूंक ना.
म्हूण तुमी सैरभैर सांवार जाल्यात
गर्भाची पावणी करुंक तुमी तयार जाल्यात
कर्मकट्टयांनों,
तुमी तुमच्याच नाशाक कारण जाल्यात.

## खरें जाल्यार खरें म्हूण सांग

हांव जाणा तुज्या मनाची सैरभैर पणा
ह्या दिसांनी तुका न्हिद पडना
तु एक सारखे तळमळटा
म्हज्याच विचारान
फुडाराचीं सपनां पळयत
पेन घेवन आनीकय म्हजेर
कविता बरोवच्यो अशें तुका दिसता
पूण तूं बरयना
मद्यानेर फांतोडेर उठच्या वाजाक
कविता मनांतल्या मनांत घोळयता
सकाळीं उठून बरोवपाखातीर
झिळी मिळी  जावपाक आनी तुका दोळो लागता
आनी सगळी उतरावळ तूं विसरून वता
सारखें न्हय ?
खरें जाल्यार खरें म्हूण सांग !
तूं आशेता म्हज्या सहवासाक

तूं लालेता म्हज्या वांगडा उलोवपाक
मन तुजें ल्हव करपाक
म्हाका कळटा तुज्या पिशा मनाची अवतिकाय
पूण तूं पक्कें शाणें आसा
पुराय सुजाण आसा
हांव उडट्या सवण्याचीं पाखां मेजपी
तुज्या मनांत आसा पूण तूं फाटीं फुडें जाता
एकाच कारणाखातीर
हावें ना म्हणत जाल्यार
सारखे न्हय ?
खरें जाल्यार खरें म्हूण सांग !
आगो बाये आतां आनी
विचारपाचें बाकी कितें उल्लां
तुजें म्हजें नातें आता
सगळ्यांक खबर जालां
तुजी पसंती सगळ्यांकच मानवल्या
सारखें न्हय ?
खरें जाल्यार खरें म्हूण सांग !
तूं म्हाका आवडटा
सुमारा भायर
जशें आसा तशें
म्हाका तुजो वांगड जाय
सासणां खातीर
दितलें व्हय ?
अशें हांवें तुका विचारचे म्हूण
तूं रावता
सारखें न्हय ?
खरें जाल्यार खरें म्हूण सांग !

## गाराणें

ह्या पंचमहाभूतांनी
वास्तव करून रावपी
तूं सगळ्यांचो सर्वेश्वर
तुवेंच आमकां सगळ्यांक
राखण दिवपाची
बरी बुध्द दिवपाची
खोटी नाडी पाडी बुध्द
पाया पोंदा धरपाची
तूं जाग्याचो तुजें वास्तव जागृत
जय जय तूं रावता त्या त्या नांवान
तुका वळखता
जरी तू निर्विकार, निराकार
तरी उल्याक रोखडोच पावता
तुजेरूच आमचो भावार्थ
तुजेच इत्सेन आमी
स्वास घेता

तुजेच इत्सेन
आमचें पावल मुखार पड्टा
तुजे इत्सेन हो चराचर धोलता
हे म्हज्या सवेश्वरा
कृपावंता दयावंता
तुजे अनंत उपकार
आमचेर आसाच
तसोच आनी एकूच उपकार कर
हें जें कितें मनीसपणाभायलें कृत्य
जण एकलो आपणावंक लागलो
तांकां मात्शे पळोवन घे
आयज तो शिमेवयलो देंवचार
आयज तो म्हारु
आयज तो खेत्री
आयज तें भूत
राजी करून घेवन
आयज  किटणे पाडो आसलेलो
घट नेमाचो नेमान दवरून
नीतीची नितीक
शब्दांच्या शब्दांक
जें कोण जगल्यात
तांकां मान दिवंन
जांणी कोणी करणी मान केला
ती जेंचे तेंचेकडेन दवर
जे पास धर्तरीच्या गळ्यांत आवळूंक सोदता
तो पास तेंच्याच गळ्याक आवळ
जे कोण दुसऱ्याक नाडुक सोदता
दुसऱ्या खुस्तार जगूंक सोदता

तांकां तांची सुवात दाखोवन दी
तूं सुर्याच्या रथार बसणारो
अग्नी काश्ट खाणारो
अग्नी पार करणारो
पाण्यां इतकें शितल करणारो
फुलाइतकें ल्हव करणारो
अशे तरेन घटमुठीचो
सांभाळ करणारो तूं
आसा थंयच्यान प्रसन्न
जावचो पडलो
ह्या पाचंव्याचार सैमाचेर
घालो घालून
ताका पिडापिड करप्यांक
धील सोडू नाका
भ्रष्टाचार करतल्यांक
पळोवन घे, अनितीन वागतल्यांचेर
कडक नदर दवर
झाडां पेडां किडी मुयो
मोनजात
सगळ्यांची राखण रखवाली दवर
कोणय खटखूट तेडां मेडां खोटां नाटां
केल्ला आसत जाल्यार
ते भायल्याभायर मारुन दी
सांगलेल्या सांगण्याचे चीत कर
पांयाचें नाखूट तो कपलाचो क्रेस
पत्कर घे
आनी म्हज्या सर्वेश्वरा
सगळ्यांक बरी बुध्द दी आनी
सगळ्यांचें कल्याण कर



काशिनाथ अच्युत नायक हांणी रचिल्लो 'गाराणें' हो कविता संग्रह कोंकणी कवितेचें बदलतें रुप दाखयता. पारंपारीक कोंकणी कविता आनी नवमतवादी कोंकणी कविता हांचे मदलो सुवर्णमध्य ती सादता. मुक्तछंदांतल्यान अवतरताना ती काव्याचो मूळ गूणधर्म विसरना. लोकगीतांचो, संतकाव्याचो, म्हणी-ओंपारींचो आनी लोकभाशेंतल्या दुर्मिळ शब्दांचो तो कल्पकतायेन उपेग करता.

वयल्या साबार तत्वांक लागून काशिनाथाची कविता सहज सुंदर तरेन वाचकांकडेन इश्टागत करतली हें म्हज्या अणभवांतल्यान हांव सांगूंक सोदता.

मुळांत कवितेच्या विशयाक आनी आशयाक एकजीव जावपी तत्वां तांणी कवितेंत समाविश्ट केल्यात म्हूण तें शक्य जालां. ह्या गाराण्यांचें मुल्यमापन करपाक म्हाकां आस्वादनात्मक समिक्षेचीं मापां भायर काडचीं पडटात..... सर्वसादरणपणान सामाजीक जाणिवेच्या संवेदनशील मनाची ही कविता. ती अतिशय सामान्य मनशाचें भावविश्व चितारता. ती भोसाची दुख्खां हळुवारपणान शब्दबध्द करता. चिड्डल्यांक स्वाभिमानान जगपाक शिकयता. निर्शेवणेक आनी पराजयाक तोंड दिवपाक स्फूर्त दिता. अन्यायाचो प्रतिकार करपाची धिटाय दिता..... ती कविता केन्ना आवयची आल्लय जाता, केन्ना जिवीताचें आव्हान जाता, केन्ना गरीबाचे उत्फर्के जाता, केन्ना कश्टतल्ल्याचें गीत जाता, जाल्यार केन्ना मनीसपणाचो सूर जाता.....

प्रा. हनुमंत चोपडेकार




लोका प्रकाशन
केरी-सत्तरी

मोल: ₹ 100/-